# लोकधन

## केरळांतुलो कोंकणी लोकवेद

### एक वळख

शरतचंद्र शेणै

2004

Konkani

# LOKDHAN

## An Introduction to the Konkani Folklore of Kerala

SARATCHANDRA SHENOI
Gokul, 10-675, Palluruthy, Kochi - 682 006
(saratchandrashenoi@yahoo.co.in)

First Edition - 2004

Published by Author

Cover Theme : DEEPTHI S.

Price : Rs. 40/-

Layout at
**KAMS** COMPUTER SERVICES
Opp. Ernakulam Public Library,
Convent Road, Ernakulam,
Cochin - 682 035.
Ph : 0484 - 2383457

Printed at
**Pioneer Enterprises**
Elamakkara, Cochin - 26.
Ph : 0484 - 2538004

# अम्माले उडगासाक समर्पित



कनका बाय
1914 - 1984

# मांडावळ

Page No.

आरंभाची उतरां ........................................ 5
प्रवेश ........................................ 6
वाक्प्रचार ........................................ 7
म्हण्यो ........................................ 9
हुमाणीं ........................................ 12
बालगीत ........................................ 14
खेळा गीत ........................................ 20
लग्ना गीत ........................................ 24
परबे गीत ........................................ 27
फुगडी ........................................ 27
मोरोळी ........................................ 29
श्रवोण ........................................ 30
गोड्डे रामायण ........................................ 33
कथागीत ........................................ 35
लोककाण्यो ........................................ 37
लोकवेद आनी समाज ........................................ 42
स्थलांतराचो प्रभाव ........................................ 43
लोकवेद आनी सृजनशील साहित्य ........................................ 45
लोकवेदावेलो वावर ........................................ 46
समारोप ........................................ 48
पुस्तकसूची ........................................ 50

# आरंभाचीं उतरां

साहित्याच्या खंयखंयच्या आंगांक महत्व आनी पोसवण दिवंचें हाची कोणाकच सारकी खबर नाशिल्ल्या एक काळांतुल्यान साबार भाषांच्या लोकवेदांचें भांडार शुष्क जावन पडलें. पूण आधुनिक काळांत थोड्यांनी पोटतिडकेन केलेल्या कठिन आनी निस्वार्थ वावराक लागून थोडें तरी संग्रहीत जावूंक पावलें. कोंकणीचेय बाबतींत हें खरें. शणै गोंयबाब सारक्या पूर्वजांनी कोंकणी लोकवेदाक महत्व दिलेलें आसा. कोंकणीच्या चरितांत वेगळींय खूब अरिष्टां आयिल्लीं. त्या अत्यंत अरिष्टांच्या काळांतुल्यान, अदृष्टाचे मर्कड मुठींतुल्यान कशाकशीय वांचूक पाविल्ल्या कोंकणी समाजान, आपुण तरी विखंड जावन वता आसतनाय, आपलें दायज - आपल्या हातांतुलें लोकवेदाचें भांडार - जपून धरलें, सांबाळून दवरलें ही तरी खर्यानीच अजापाची गजाल !

लोकवेद म्हळ्यार एक भव्य हारसो ज्यांत समाजाची संस्कृति आनी चरित पळोवूंक मेळता. लोकवेद म्हळ्यार एक भांडार-एक खण-ज्यांत जीविताचीं विविध तासां आनी समाजाचीं सपनांय लेगीत खुतून आसतात. आयच्या मानवशास्त्राचे नदरेन पळयल्यारीय लोकवेद खर्यानीच एक अमूल्य वस्तु जिच्यांत आसा समाजाच्या स्वत्वाचें डी. एन. ए !

ह्या लोकवेदाची निर्मणी कशी जाता ? जशी 'एक एक माड मेळून भाट जाता, आनी एक एक पावल जुळून वाट जाता' तशी ! ताचें कर्तृत्व एका दोगांच्या नांवार न्हय आसून, पूराय समाजाच्या नांवार बेसता. आनी सैमाचो एक हात जशी दर जनपदाचे संस्कृतीचेर आसता, तशी त्या जानपद साहित्याचेरीय आसता.

कोंकणी समाज एक एक कालखंडातुल्यान विखंड जायत गेलोलो समाज. ताच्या लोकवेदाच्या भांडारांत आज जितलें आसा ताच्याकय कितलेंच चड हात सोडून गेल्यां. एक जनांगाचो जेन्ना पुरायपणान स्थलांतर जाता तेन्नाय ताच्या लोकवेदाचेर व्हडलो धपको बेसता. थोडें निकळून वता, थोड्याचो बदल जाता, आनी थोडें येवन भरसता. केरळाच्या कोंकणी लोकवेदाचेर अशें अदृष्ट आयल्यां. पुण आजून धर्माचे नदरेन हो अखंड अशिल्ल्यान हाका वर्णांच्या वंयांनी व्हडलीशी बाधा दिलीना.

केरळाचो कोंकणी लोकवेद थोड्यांनी पुंजायला, आनी हाचेर थोड्यांनी अभ्यास केला. तरीय आजून जितलो वावर ह्या विषयांत जावूंक जाय आशिल्लो तितलो जावूंक ना म्हणूच जाणवता.

# प्रवेश

केरळाचो कोंकणी समाज जरी ल्हान आसा तरीय, पूर्वीं मूळां हुमटून स्थानांतरण जाल्लो आसलो तरीय, संस्कृतीचे नदरेन आजीय हो श्रीमंत आसा. आपली अस्मिताय - भास आनी संस्कृति - हाणे संबाळ्ळ्या. अस्तित्वा खातीरच्या झुजांतुल्यान, जिणेच्या शंबर एक संकष्टांतुल्यान वाट काडून मुकार सरिल्लो समाज हो.

अश्या ह्या समाजाची प्रकृति, संस्कृति आनी चरित हाच्या लोकवेदांत प्रतिबिंबित जाता, ज्यांत अतीव सूक्ष्मांशांचे लेगीत दर्शन मेळता. कोंकणी समाज भारताच्या इतर साबार समाजांवरी मुळान धार्मिक अवबोधाचो. ह्या जनांगाची मूळ संस्कृति आनी भास जरी एक आसली तरीय, हांतूय जातिवर्णांचे वेवेगळे वांटे आसतात. दर उपांगाकय आपलेंच अशे थोडे रीति - रिवाज आसतात आनी आपलेंच अशें खाशेलें थोडें लोकसाहित्यय आसता. देखून केरळांतुल्या कोंकणी लोकवेदाचें वर्गीकरण करतना त्या त्या समाजाविशींय म्हायती घेवंची पडता. पुण घरवंतांनी उपजल्लो लोकवेद हो सगल्यांचोय एक सारको आसता.

केरळाच्या कोंकणी जानपद साहित्याची वळख दिवपी जावन कांय गीत, काण्यो, म्हण्यो आनी दोन दीर्घकृती उजवाडाक आयिल्ल्यो आसात. लोकवेदाच्या वेवेगळ्या आंगांचेर चर्चासत्रांनी भाषणां जाल्लीं आसात. पुण कांय जाणांचो असो समज जाल्लो दिसून येता की लोकसाहित्य म्हळ्यार जें निनांवी आसता, अनामिक आसता, तें सगळें ! हो एक व्हडलो अपसमज. लोकसाहित्य निनांवी आसता हें खरें. पुण जें जें निनांवी आसता तें सगळें लोकसाहित्य नासता.

देख म्हूण दिवूंयात केरळाची मध्यकालीन भक्तीकृति 'वेंकटेश कल्याण'. हें खंडकाव्य केरळांत कोंकणी बायलांले आवडीचें. संगीतसज्ञ लोकप्रिय भक्तिगीत. जाल्यार कोणे रचलें हाची खबर ना. हाका ह्या कारणान लोकवेदाचो दर्जो मेळतलो? ना! कित्या म्हळ्यार ह्या काव्याच्या ओळ्यां फाटल्यान एक लिखणी स्पष्ट दिसता. ती लिखणी धरिल्ले हात कोणाचे फकत इतलेंच स्पष्ट ना. म्हणून ' वेंकटेश कल्याण' खंडकाव्याचें योग्य स्थान मध्यकालांतुल्या सृजनशील साहित्यांत आसता.

केरळ कोंकण्यांली मूलभूंय न्हय. केरळांत कोंकणी जनांग केवल अल्पसंख्यक. मूल मलयाळी जनांगाक कडेन काडून अशिल्ल्यांक मेजले तरीय हो अल्पसंख्यक जावनूच आसा. ते साबार इतर लोक हांगा आसा. फाटल्या शतकांशतकांच्या काळान अश्या वातावरणाचो प्रभाव कोंकणी जनांगाचेर पडला. मूळ भूंयेर थाकून हुमटल्लीं मूळां हांगा धरून मेळूक खूब वेळ लागला. आनी ते खातीर थोडें मोल तांकां दिवंचेंय पडल्यां. हाच्यो निशाणी हांच्या जानपद साहित्यांत सूक्ष्मरूपान दिसतात. जानपद साहित्यांत सोदवावर करतल्ल्यांक केरळांतलो कोंकणी लोकवेद अशे एक अप्रूप संद दिता कि जेन्ना एक जनांगाचो जशातसो स्थलांतर जाता तेन्ना ताच्या लोकवेदाक कितें जाता, आनी ताच्या लोकवेदाचेर कसो प्रभाव पडता ?

पुण पळयतना दिसता तें दोळे दिपकावपी सत्य म्हळ्यार इतल्या साबार वर्सांनीय ह्या व्यत्यस्त वातावरणान कोंकणी जनांगाचेर तेद्दो व्हडलो प्रभाव घालोना ! हांणी आपल्यो - चालरीति सांबाळ्ळ्यो, भास सांबाळ्ळी, जेवणखाणाचें, लग्नापरबांचें, क्रियाकर्मांचें वेगळेपण सांबाळ्ळें, देवदेवळां सांबाळ्ळीं, आनी लोकवेदूय सांबाळ्ळो. आश्या येद्या अदृष्टान अश्या ल्हान एक समाजाचेर जितलो बदल येवूंयेतालो, ताच्या धाव्यांत एक वांट्यान लेगीत बदल हाचेर जावूंक ना. हांतुल्यान ह्या जनांगाच्या मुळभूत आत्मबळाचो दिष्टावो जाता !

# वाक्प्रचार

वाक्प्रचार म्हळ्यार एक तराचे भाषालंकार जे वाक्यांक अचूक अर्थसंपुष्टि दितात. नामविशेषणां, क्रियाविशेषणां, उपमा, निरीक्षणां, आदी रूपांनी लक्ष्यभेदी वाक्प्रचार मेळतात. सामान्य लोकांलो जिबेचो चमत्कार ह्या प्रयोगांनी तोंड दाखयता. तांच्या उलोवपांत पावला कणकणि वाक्प्रचार मेळतात. सर्गस्त आर. एस. प्रभूल्या 'कोंकणी म्हण्यां सोरूं' ह्या पुस्तकांत पांयशीं वाक्प्रचार आसतात.

❖ आडकात्रींतुलें फपळ - निस्सहाय

❖ आलें चाबिल्लो विंदूर - अत्यंत अरूचि पाविल्लो

❖ इकूणिसावें पुराण - वृथा वर्तमान

❖ करटें कांतूची बुद्धी - पाडबुद्धी

❖ काळकांतुलो पेटू - आठयानासतना मेळ्ळोलो धपको

❖ कोल्याक दिकिल्लें कुंकड - भीतीन स्तब्द

❖ चोरांक चूडि दाकोवंचो - ब्रह्मांड चोर

❖ दुदाक पैंदार - अत्यंत बरें

❖ कोयरांतुलें माणिक्य - ज्याचे गुण आजून वळखूक पावलेनात

❖ एक लेंडाचे कुटके - एकच वरी कूडे लांगडे

❖ लोण्यांतुलो आगोळ - वेगळेचाराचे भावनेचो

हांकां नामविशेषणां म्हणूंयेतात. खंयखंय हांचो अर्थ स्पष्ट करपाक खूब सांगचें पडता! मुकार क्रियाविशेषणां खातीर उपकारावंचे वाक्प्रचार -

❖ फणण घालें - बर्या कामाक पूर्ण विघ्न

❖ बायपे वचून बोड करप - वृथाकर्म, चडकरून अतिबुद्धीचें

❖ मुसांक मारता - बेठो बेसला

❖ घायाक मीट लावप - पीडेचेर पीडा दिवप

❖ करट्यांत नांक बुडोवन मरप - जितोच मरप - व्हड असहनीय अवमाना पासून कोडवाण

❖ गोवंटेर पेस्कार्तो दवरप - सामकीच फटवण घालप.

कांय वाक्प्रचार मनुष्यावस्था विवरसितात.

❖ पोटांत पिलां रडताय - अत्यंत भूक लागल्या.

❖ हून उदका घोटू - तृप्ति नासतनाय, करीनाशें जायना तें काम वा अवस्था.

❖ तुस्सू कांडून हाताक फोड - वृथावावरांतुल्यान कष्ट नष्ट

❖ मडवाळाली मोट - मेकळीक ना तशें वजें.

❖ तीळ उडोवंचाक स्थाय ना - मातूय स्थाय ना.

एकेक वेळार वाक्प्रचार वेगळे तरेनय थोडे वापरतात. कूड्याल्या नदरेन दोग बरे मनीश 'एक लेंडाचे दोन कुटके' आसूंयेतात! कंजूस बापाले नदरेन पुतान करचें जनसेवन 'तुस्सू कांडून हताक फोड' आसूंयेता !

# म्हण्यो

समग्र रूपान समाजाचें चित्र रेखाटता तशें लोकवेदाचें सुप्रधान आंग जावन आसा म्हणी. समाज जीवनाच्या सगल्या रस्त्यांर सुलभ, भार्षेत मुद्येर थीक तशी थळथळता, आनी व्यापक रूपान उपकाराकय पडता ती असा म्हणी. म्हण्यो जरी ल्हान आसात तरीय, दर एकांत अणभवांची पक्ताय भरल्या, आनी जिणेचें एक ना एक सासणीक सत्य निपल्यां. केवल संभाषणा वेळारीच न्हय, ल्हानांक बरें-वायट सांगतना, बसकेंत वा माचयेर ल्हान व्हड भाषण दितना, कथा - लेखनां करतना, अशी जायत्या वेळांर म्हण्यो उपकाराक येतात. वाक्प्रचार वाक्यांत येवपी कुटके जाल्यार, म्हणी म्हळ्यार पूर्ण वाक्य.

सोदवावर करतळ्यांक म्हण्यो म्हळ्यार एका जनांगाच्यो दिसपट्यो मेळ्ळ्यावरी ! जात-पात, रीति-नीति, जेवण-खाण, नातीं-संबद, भाव-भावकी, उद्देग - धंदे अशी समाजाच्या समस्त कार्यां संबंदी खरी अनी खोल जाणकारी म्हण्यांनी मेळता. पुण ह्यो वेंचून एकडे करचें काम तशें सरळ न्हय. देखूनूच ह्या कार्यांत सर्गेस्त आर. एस. प्रभु (१८७८ - १९५६) हांचो वावर मोलादिक जावन आसा. तांणी आयचान साठी वर्सां पुरथम कोंकणीच्यो तीन हजारांलागी म्हण्यो एकडे केल्यो आनी त्यो वर्णांक्रमान बरोवन काडल्यो ! आजीय तसो तेद्दो वावर इतर कोणाच्याय हातान घडूंक ना.

वर्णवेवस्था, उद्देग-धंदे अश्यां विशींच्यो, आनी तांचे भितल्या नात्यां-संबंदांच्यो म्हण्यो आतां एकठांय पळोवया.

❖ आकुळ्ळेली गाय आपु भटाक दिली.

❖ व्हकल मरो, व्हरेत मरो, भट्टाली घडी ताटांत.

❖ अम्माले ताळ्ळी भांगारय सोनार फारतलो.

❖ चामाराल्या देवाक व्हाणां पूजा.

❖ दान मेळेले गायचे दांत मेजप ना.

❖ बेठो बेसल्लो आचारी चेल्यांली गांडी ताशीत.

❖ सूण्याक रोम आसा म्हूण केळशंचाक इतें गुण?

❖ देवाचे निबान भटाक.

❖ मनांत स्थाय आसा जाल्यार मोंचुवांतूय आसा.

त्या त्या मानिशांली करणी आनी काणी ह्या असल्या म्हण्यांनी आसता. ' उजो नातिलें धुवोर जावनां' म्हणिल्ल्यावरी थोडे तरीय कूडे वांकडे सगल्याय जातींनी आशिल्ल्याची ह्यो गवाय दितात. कुटुम्ब-वेवस्थेचेर उजवाड घालपी म्हण्यांनी मनशांमदलीं नातीं-संबंद तोंड दाखयतात. कोंकणी लोकांचेंच न्हय, चड ऊणे समस्त लोकांचे (थोड्या वेळार समस्त काळाचेंय) सभाव चित्रण म्हण्यांनी मेळता. सगल्या अर्थान हांकां 'तोंडी सरस्पत' म्हणूंयेता.

❖ आवसु चोयता पोट, बायल चोयता मोट.

❖ धा जाण पुतांली आवसु काट्यार.

❖ बारा पोडचे दादल्याक तेरा पोडची बायल.

❖ बामणाले हर्द्यार वाटल्यारीय पुताले साणयेर वाटूनयें.

❖ बप्पाक बप्पा म्हळ्ळोना जाल्यार, केळशांचाक बप्पा म्होणका जातलें.

❖ आवसूक नाका चेरडूं आय्येक जाय नातूरां.

❖ आशिल्ल्या चेर्डुवांक ना गती, आनी जातल्ल्यांक तुलाभार.

❖ मांय बेस्सून जेवता जाल्यार सून पोणु जेवता.

❖ घरांत आयल्यार वाग, भायर गेल्यार कोल्लो.

❖ अम्माक पोडीन ओरोव दिवंचाक नज.

❖ आडळी मोळ्ळी, मांय मेली, सुनेक बुद्धी आयली.

❖ जांवय आयला राती, मांयचे तोणांत माती.

केरळाचो कोंकणी समाज आचारांक मान महत्व दिवपी. देव - धर्म, आचार-अनुष्टान आदी सांबाळचे खातीरीच मू हो गोंमतक त्यजून आयिल्लो !आजीय ह्या कार्यांत व्हड बदल आयलोना. थोड्या म्हण्यांनी ह्या विषयांतूय उजवाड घाला.

❖ आचार चलतल्याक विचार ऊणे.

❖ कर्मांत बरयलेलें जन्मांत सुटना.

❖ आयली दीवाळी परबो निवोळी.

❖ देवान दित्तना चारीय हातान दिता.

❖ देवान दिलें, कर्मान व्हेलें.

❖ रामेश्वराक गेल्यारीय शनीश्वर सोणा.

❖ देवान आठयल्यार आंब्याक पोणोस जाव्यात.

पुण अचारांचें पालन केवल नावांपुरतेंच करपी अशेय जन आसात. तांचे विशींय जाणविकाय म्हण्यांनी मेळता.

❖ आबू मेलो म्हूण न्हय रडता, घारयो खांवचाक रडता !

❖ आयिल्ल्या भिकार्यांक दीना अन्न, मेलेल्यांक पिंडदान !

❖ आयेल्ले तेरावो म्हणूय जालें, घारी खेली म्हणूय जालें !

❖ आरती घेतल्यार उष्ण जाता, तीर्थ घेतल्यार शैत्य !

खाण - जेवणाचो आनी उदका - पानीचो उल्लेख करून बरें - वायंट समजावपी म्हण्यो तरी खूब आसात. केरळाच्या कोंकण्यांनी खाण-जेवणाची अस्मिताय बरे तरेन बाळगिल्या. हांच्यो खूब कृति मलयाळी लोकांनी आपणावनूय घेतल्यात !

- ❖ आप्पे खावंका कीं खाणां मेजूका ?
- ❖ आमगेले गांवांत तुमगेली दाळि सिजुन्ना !
- ❖ आळस्याक बिकंड भाजि म्हळ्यार हरवेंच गोड म्हणता !
- ❖ जिबेक लजा ना जाल्यार तोंडाक भाग्य.
- ❖ कुसळे मासळेक पिकळी चींच.
- ❖ परबेरि पोळि, शिगम्यार होळी.
- ❖ हिट्टू रोसू एक जातलो, खोली वार्यार पडतली.
- ❖ कारया रूकाक बोरां जातलीं वे ?
- ❖ केळें गोड म्हूण साली खावंची वे ?
- ❖ गुलेर दिवन वांयगण घेवंचें वे?
- ❖ पारी लागी पावल्यार आंबसाणी कळता.

वर्णा प्रमाण थोडें नानात्व आसा तरीय, धर्मा प्रमाण ह्या जनांगांत एकत्व आसा. त्या संबंदी परामर्श कसलेच नाशिल्ल्यांत थाकूनूच हाची जाणविकाय जाता.

# हुमाणीं

हुमाणीं, अथवा आळीं, म्हळ्यार संवसारांतुल्या सामान्य वस्तूंक असामान्य नदरेन पळोवन, आकर्षक काव्यमय उतरांनी तांची वळख दिवप. उपमा अलंकाराचो व्यापक उपेग हांतूं जाता. प्रास - अनुप्रासांचो प्रयोगूय थोड्यांनी आसता. समानताये वरी वैरुध्याचीय दखल हुमाण्यांनी आसा. सानांकय व्हडांकय एकवरीच मनोरंजन दिवपी, तांच्या एकामेकांकडच्या दैनिक संबंदांक गोडसाण घटसाण दिवपी, भाषेविशीं आनी संवसाराविशीं नवे नवे अवबोध दिवपी हुमाणीं जावन आसात मूळरूपी 'क्विज' !

❖ आगारांत पागार, पागारांत शंख
शंखांत तीर्थ, तीर्थांत निर्मोल (नारलु)

❖ अडकळ्यांतुल्या सूण्याक बाल मुकार (आडळी)

❖ आडायेन कातरल्यार चक्र
दिगायेन कातरल्यार शंख (पियाव)

❖ तांबीडे बायलेक काळो तीळो (गुंजी)

❖ पाड्डो पळ्ळा, हांजो चरता (दुद्दीण)

❖ शेंबर ब्राह्मणांक एक जानूवें (सारणी)

❖ भूंय फुटून जोगी आयला
हातांत सात्तें, खाक्यांत कमंडल (पापाय)

❖ देंट नातिलें वाडकुळें पान (हापोळ)

❖ येता कोंबो, वता कोंबो
कोंब्या गोयंडो शेळूच (मोंचूव)

❖ एक अम्माक जालेलीं चेरडूवां
भस्म सारोवन बेसल्यांय (कुवाळीं)

❖ म्हांतारेले आंगाक सगळेच दोळे (अनवास)

❖ मेलोलो दीवोड बडी काडल्यार धांवता (मोंचूव)

❖ रुकार आसा, म्हूण पक्षी न्हय
तीन दोळे आसाय, म्हूण महादेव न्हय
उदाक आसा, म्हूण कोळसो न्हय (नारलु)

❖ घुंवता म्हूण दांतें न्हय
काळो म्हूण कायळो न्हय
कांटो आसा, पोंगरो न्हय (भोवोर)

❖ काळे कूडांत काळें माजर (भाणशीरें)

आनी थोडीं कुवाडीं अशीं आसात किं तीं फकत फटोवंचाक केल्लीं आसात ! उतरांचो खेळ जाता तशें एक सरळ हुमाणें अशें -

'आंबो गोडू कीं तुंबो कोडू ?' जाप सोपी-आंबो गोडू आसता, आनी तुंबो कोडू आसता. पुण ही जाप तरी दिली जाल्यार रोखडींच हुमाण्याचें दुशेरें कडवें प्रश्नकार दोहरायतलो 'तुंबो कोडू?' जाप अशी 'व्हय, तुंबो कोडू !' तेन्ना परतून तेंच कडवें, पुण उतरां मत्शें बदल करून - 'तूं बोकोडू ?!' ह्या वेळार 'व्हय' म्हणप शक्य जायना ! तरीय तूं 'बोकोड' जालोच !

# बालगीत

ह्या माथाळ्याखालाक बालकां 'खातीर' म्हणचे गीत हातांत घेतां . तांकां पाळण्यांत घालतना म्हणचे गीत धरून तांणी स्वयं खेळून भोवूंक जावं मेरेन तांचे खातीर घरांतलीं सगलींय तरातराचे गीत म्हणतात. तांकां खावोवूंक, पीवोवूंक, खेळोवूंक, हासोवूंक म्हूण ना कित्याचेय खातीर गीतांचो उपेग जाता.

पाळणे हो आचार चार चौगांनी मेळून सोयर्‍यां-धायर्‍यां मुखार करचो. ह्या महत्वाच्या आचाराचो महत्वाचो वांटो आसता पाळणे गीत. अमके इतले वेळाक हें गीत म्हणपाची गरज आशिल्ल्यान हाका इखरा खंड आसतात आनी ह्या इखरा खंडांनी श्रीरामाची कथा पुरायपणान मेळता ! इखरांतुलें पयलें खंड अशें -

'बाळा जो जो रे
कुलभूषणा, दशरथा नंदना
निद्रा करी बाळा
मनमोहना रामो लक्षिमणा
बाळा जो जो रे - '

बालकृष्णाच्या नावानय पाळणे गीत आसात. गीतांक थारयिल्ले राग आनी ताळ आसतात. आचारा खातीर न्हय आसतना म्हणचे कांय सान गीत वेगळेय आसतात.

'जोय करीन बाळाक, नीद आयली दोळ्यांक
जूं काडीन पाळण्याक, गोरे बाळाच्या - '

'जोय पुता जोय, जोय करूं तुका
पालणें घालूं रूका, चन्दनाचें - '

बालकाक सदांच न्हणोवंचे पयलीं सवकासायेन तेल लावन मालीश करचें आसा. त्या वेळार बालकाचे हात दोनीय हळूहळूच ताच्या मात्या वयर व्हरून नात्यांतुल्या म्हालगड्यांक आठोवन 'वल्लक' करतात. आपुण कसरत करीत आसा हाची जाणविकाय नासून भुर्गे उतरांत आकृष्ठ जावन खोशेन खेळतलें, हासतलें.

'वल्लक वल्लक वल्लक देवाबो......ली !
वल्लक वल्लक वल्लक आबो....... ली !'

सांजेचे वेळार जळोवन दवरिल्ल्या दीव्याक, दिवलेक वा आरतीक संत उवाळ्ळून (स पावटी) त्याच हातान चेरडालें तोंड उव्वाळतना हीं उतरां वापरतात.

'आळेल्यो..... माळेल्यो...... दीव्याच्यो.....
काजोल्यो..... पुताच्यो...... निडळ्यो.......
सोदल्यो !'

भुरगें बरेंच खोश जावन, किटकिटेवन हासून अशें परतून परतून करूक आग्रो पावंतलें! ह्या वरी जेवयतना आनी खावयतना वापरचीं थोडीं पदां अशी -

'ता तिंगण बब्बा
सान्ची वैंगण-
वैंगणाचे फडीन तुका
कोकोची वाडीन !'

'गागा पुता, गागा-
बप्पा येतलो, गागा-

केकें हाडतलो, गागा-

पुताक काडतलो, गागा-

केकें दितलो, गागा-'

भुरगें स्वल्प व्हड जालें म्हण्टना, ताच्या पायांक धीर येवूंक जाय म्हणून ताका जांगेर बेसोवन मुकार मागल्यान धोलयतात. तें हळूहळूच ताचे पाय मुकार भुंयेर मुस्तून खोश्येन स्वयं धोलूक लागता. ह्या वेळार म्होणचीं पदां आसात.

'धल धुवे, धल

धतां धतां बावगली-

केकीं खावंचाक लागली-

केकीं जालीं गोड्‌-

अन्नूक दिले कुटूको -

अक्के फाटीर डुमको !'

घराच्या फिदरांत मैदरांत पावलेल्या पारव्यांक कायळ्यांक दाखोवन म्होणचीं खूब पदां आसतात.

'आवांदो पावांदो येयाय रे

पुताले आंगणांत खेळाय रे-'

'काको मेंडो काळो, ते

काक्याक एकू दोळो-

आमगेले धुवे - निडळार आसा

काळे चांदा तीळो !

काको मेंडो चोरू, ते

काक्याक मारलो मारू-

मारूक काडलो व्हीरु, रे पुता

व्हीरु जालो थोरू !

काक्याक मारलो पाकारी, तो
काको रे धावलो तेकारी, -
धावनु धावनु गेलोलो काको
बेसलो आंब्या रुकारी ! '

हांतूं गोंयचो उडगास घेवंचें एक पद मेळता. कायळो हो गांवगांवान भोवंचो आशिल्ल्यान ताचे लागी गोंयचे विशेष विचारप, हांतूं युक्तीय आसा !

'कायळ्या तूं गोंया गेलोलो वे ?
पुतोले मामाक दिकीलो वे ?
आजि फाय येतलो म्हण्टालो वे ?

हेंच पद भुरग्यांक निदोवंचे खातीरीय लेगीत एका काळाक वापरतालीं म्हूण दिसता. तेन्ना हांतूं आनीकय चड वळयो आसताल्यो. गोंयचो मोग आनी ओड आनीकय व्यक्त आशिल्ली. हें पद कुणबी जाण्टेल्यांचे यादींत अशें आसता -

'काक्या तूं गोंया गेलोलो वे ?
पुताक्को मामा दिकीलो वे ?
मळबांतू दुदा चांदीणें पावलें -
मोगर्या फुलां शिंवडोनू पोळ्ळें -
मलबारां या गांवां गुंवसोणू पावले ' -

झाडावेल्यान शिंवडून सकल पडलेल्या मोगर्या फुलांवरी आमी मलबारांच्या ह्या गांवांत धुपसून पावलेल्याचें मौनदुःख ह्या वळ्यांनी स्पष्ट जाता. ह्याच वरी सान बाळकाक वा वाडल्ल्या भुरग्याक दोनीय हातांनी धरून हळूहळू नांचून खेळयतना आजीय म्हणतात -

'गोंयचें पील कोणाक जाय ?
गोंयचें पील कोणाक जाय !'

भुरगें स्वल्प व्हड जालें आसतना, ताका लागी बेसोवन खाचकुल्यो धाळूपाचीं पदां आनी खेळ आसतात. ह्या अश्या पदांनी गीतांनी भुरगें हळूच भास शिकता आसता. केवल भासच न्हय घराभोवतणेचो संवसारूच ताच्या परिचयांत येता ।

'गजबज भाजीये, भाजीये
कुणबिणी चेडवान रांदीलें, रांदीलें
राया पुतान शिंदीलें, शिंदीलें
राय बेसून जेवता, जेवता
बुक्को बेसून चोयता, चोयता
ओडिये पीट शिजलेंना, शिजलेंना
केळ्या उक्करी भाजलीना, भाजलीना
शेळ उदाक भरलेंना, भरलेंना
खाचखुच ! खाचखुच !'

आनी एक पदा लागी खेळ आसता. चेरडालो हात उबी धरून हाताचें एकेक बोट हळूच हालोवन व्हडली एकेक प्रश्न करतली आनी तींच जापय दितली -

(किरांगूळ) ही मेंडी खंय गेली ? - न्हावंचाक गेली !

(पवित्र) ही मेंडी खंय गेली ? - शितोडो घालूक गेली !

(मद्दें बोट) ही मेंडी खंय गेली ? - पीट वाटूक गेली !

(पयलें बोट) ही मेंडी खंय गेली ? - पोळो काडूक गेली !

(उंगोटो) हो मेंडो खंय गेलो ? - हो मेंडो चोरू ! भास्तावेले पोळे खावन,
तोडा पाडीक वचून हागून, बेब्बे नातिल्ले
तोळ्यांत गोयंडो धूवन, म्हांतारायेलें
घर सोदून वता -

हें सांगून आपल्या हाताच्या दोन बोटांचे पाय करून तांच्यांनी पावलां दवरून भुरग्याल्या हातावेल्यान वयर सरूक आरांबिता -

'आंगडी वची वाट खंय ? म्हांतारायेलें घर खंय ?'

हें अशी दोहरावन आमचो हात भुरग्याल्या हाताच्या कोंपराकडेन पांवतना, हें दोन पावटी-

'इच्चय म्हांतारायेले घराचो आकाडो !'

मागीरीय आमचो हात वयर चमकता -

'आंगडी वची वाट खंय ? म्हांतारायेलें घर खंय?'

बोटां भुरग्याल्या खाक्यालागी पांवतना ताका खाचकुल्यो करीत म्होणचें -

'इच्चय म्हांतारायेलें घर !'

अशें हें दोन पावट जाल्यार भुरगें शिकून काडता आनी परतून आमकां करून दाखयता ! अशी भुरग्यान आमचें अनुकरण करूक शुरू केलें म्हणतना, ताका भास गावसूक लागली म्हणतना, हे सगले बालगीत तो शिकून काडता आनी चड पदांची मागणी करता ! तेन्ना ताका कांय खेळगीत शिकयतात आनी मागीर काण्यो सांगतात. थोड्यांच्या हातांनी नवीं पदां निर्माण जातात. म्हज्या भुरगेपणांत बापान म्हणिल्लीं कांय पदां हांव आजीय विसरलोंना. एक विनोदी पद, जें दुसरे खंयकडेय मेळ्ळेंना, तें अशें -

'वांकूडी तेंकूडी नींबि सायबा,
निंबीरि बेसलो कोल्लो ! कोल्लो ! कोल्लो !
हें हूं म्हूण म्हणतल्ल्याक
दीवीन मोतियां झेल्लो झेल्ला ! झेल्लो ! '

कांय म्हणी लेगीत पदांचे रूपान प्रत्यक्ष जाता. संगीतांत तान आशिल्लेच न्हय, बरे संगीतज्ञ म्हणूय हांगा खूब आशिल्ले. कोंकण्यांली संगीताकडली ओड सर्वसाधारण मात्र. हरिकथा, कथकळी, ओटां नांच इत्यादींत रूच आशिल्लेय ऊणे नाशिल्ले. म्हजोय बापा ह्या रुचींचो (आतां शंबर लागल्यांत) स्टीलाच्या पिरलुकेर कर्णाटक रागांचीं कीर्तनां आलापन करतालो. 'मोहनम' रागाच्या एक कीर्तनाक अवसून ही म्हणी म्हणतालो -

'निश्शां - कष्कल - दृष्टी - पडताय
पदवेक - ऊणाव ना !'

आमचे खातीर हें एक बालगीत जालें ! अर्थूय गवसलो - निशें इतलें फूट आसा की तांतूं पाक्याचे वाशे दिसतात; पुण आजून व्हडपण वचूंक ना !'

बालगीतांतुल्यान भुर्गें काण्यांकडेन वाडता. खुद भाषेचोय होच सभाव म्हूण भासाविज्ञान सांगता. साहित्याच्या उदयांत काव्य सकाळफुडे उठता, काण्यो थोडें जावन, आनी मागीर दीस वाडता आसतना, लोकवेद घडता, व्याकरण, कोश, निबंद, कादंबरी, समीक्षा आदी उठतात.

# खेळा गीत

भुरग्यांनी आपणूच जावन म्होणचे गीत हे. एकेक गीत खेळाचे पद्धतेक अवसून आसता. एक कालाक भाभाव सगले एकच घरांत रावताले आनी एकेक घरांतूय वेगवेगळे प्रायेंचीं चार पांच पुणीय भुरगीं आसतालीं. तीन वर्स ते बारा तेरा मेरेनचीं भुरगीं - चेलेय चेल्योय - एकमेळून खेळतालीं. व्हड भुरग्यां कडल्यान ल्हानां खेळ आनी गीत शिकून घेतालीं. पावसा दिसांनी घरां भितर जाल्यार गिमाळयार आंगणांत, भाटांत खेळचे खूब खेळ आशिल्ले. मागीर मागीर घरां वेगळीं जालीं, दर घरांत भुरग्यांचो आंकडो ऊणो जालो म्हणतना हेच खेळ केवल दोगांनीय लेगीत खेळूक आरांबिले !

ह्या खेळा खातीर भुरगीं वाडकुळीं बेसून मध्यांत एकामेकांच्या हातांर हात दवरून हें पद म्हणतलीं -

'आपोनंदो तुपोनंदो
तुपांतुली रोंटी खायाय
ओ नंदे तो नंदो
खांदयारो !'

म्हणतकच हात एकामेकांच्या खांदांर दवरतलीं, रगड्यांतुल्या फातरा भाशेन वाडकुळीं एकठांय मेळून धोलतलीं, आनी ताका साजोवन हें गीत गायतलीं -

'गजा भजा माळ्का, माळ्का
पीट वाटून कालोवंका, कालोवंका
पिटांत पडलो बोरोडू, बोरोडू
म्हांताराये खोरोडू, खोरोडू
म्हांतारी गेली रानांतूं, रानांतूं
पूत गेलो कानांतू, कानांतूं
म्हांतारे खाडाक उजो लागलो, उजो लागलो
आमकां वचून वाडोवया, वाडोवया-'

लोकगीतांतुल्या थोड्या उतरांचो अर्थ एकेक वेळार समजूक जायना, चड करून नामरूपांचो. थोडीं बिंबां, प्रतिमा-प्रतीकां सदाखातीर प्रत्यक्षांत राबीनात, फकत ल्हानशा एक कालखंडांत थळथळून मागीर नदरे भायर वतात. लोकगीतांत तोंड दाखोवपी

'तिम्मोरोस' कोण म्हूण कळूक चरित्राचीं पानां उस्तूचीं पडतात ! ते वरी ह्या खेळगीतांतली 'म्हांतारी' एकदां म्हांतारी न्हय आसून 'मंथरा' आसूंयेता ! पुण अशे अर्थ दिवंचेंय सारेंकें न्हय. दर एकल्याक नवे नवे अर्थ दिसताच आसतले ! आकाशावेलो चन्द्रीम सदा तागेलें एकच मुखामळ दाखयता आसतनाय थंय दर एकल्याक वेगवेगळें चित्र दिसता मू !

भुरग्यांनी वाडकुळींच बेसून दोनीय हात भुंयचेर उमथे आनी विस्कळे दवरून खेळचो आनी एक खेळ आसा -

'आटीके मिटीके नमनम काळींगा
भास्कर माजरा शिरवणाच्या काळा
मद्दाळ्याचें मद्दाळें, कोणाफाटीर डुमको ? डूं !'

खेळ शुरू करचो भुरगो ह्या एकेक उतराकय एकेक हाताचेर क्रमान बोट लायतलो. ज्या भुरग्याल्या ज्या हाताचेर अखेरचें उतर येता ताचेर डुमको मारतलो. तेन्ना तो हात त्या भुरग्याक उद्दारी करून घरचो पडतलो. गीत दुशेरीय शुरू जातलो आनी क्रमान एकेक हात उद्दारे जायत वतले. उद्दारी जाल्ल्या हाताचेर मागीरीय डुमको पडल्यार तो हात त्या भुरग्याक फाटल्यान ओडूचो पडतलो. एकल्याले दोनीय हातार अशी दोन दोन डुमके मेळ्ळे म्हणतना तो out! अखेर जाचो एक तरीय हात बाकी उरलो तो जिखता.

गीतांविणे खेळचे कांय खेळ आसात ज्यांत केवल प्रश्नां आनी जापो येतात. ह्या अश्या एक खेळांत भुरगीं वाडकुळीं बेसून हातांच्यो मुठ्यो बांदून एका वयर एक धरतात. प्रशन करतल्ल्यालो फकत दावो हात ह्या खांब्यांत आसता, आनी तो तरी सगल्यांपशी सकलचों. ताच्या उजव्या हातान वयर थाकून एकेक मुठयेक आपडून ताणें करतल्ल्या प्रश्नांक तो तो भुरगो जाप दितलो. सरळ प्रश्न आनी सरळ जाप. ह्या खेळांत हार जीत कांय ना -

प्रश्न : हे खांडे कोणालें ? (सगल्यां लागीय हेंच प्रश्न परतून परतून)

जाप : आबोलें ! (आयेलें / बापालें / अम्मालें....

प्रश्न : कातरता वे?

जाप : कातरी ! (म्हण्टना ती मुठी वता - 'खचां !')

अखेरची मुठी 'देवाली!' आसता. म्हणून ती कातरीना. आनी खेळ जाता. ह्या खेळांत नात्यांचो उल्लेख येता जाल्यार अश्या आनी एक खेळांत खाणा-जेवणाच्या वस्तूचों उल्लेख येता. वाडकुळीं बेसल्लीं भुरगीं आपले उमथे हात मुखार भुंयेर दवरतात. उमथ्या हातांक बोट लावन प्रश्न जाता -' हांतूं इतें ?' जापो वेगळ्यो वेगळ्यो - दूद / शीत / तोय / वलवल / घशी /आंबट / आलें / अडगय / अळचकरी / इंडूं / पायस / हापोळ / सुकें / नोणचें / केळया सासम / तांबळे पुडी / किसमूरि / हुमाण / खीरी.... अखेर जेन्ना प्रश्नाची जाप 'उजो!' म्हूण मेळता तेन्ना सगळींच गाडबडून हात फाटल्यान ओडतले आनी एकामेकांकडे मागूचीं सवंगां करतले -

'म्हांतांराये एदें तेल दी !'

भायर भोवन आशिल्ल्या खेळांनी लिपचोर्यांचो खेळ संवसारातुल्या सगल्याय भुरग्यांचो आवडीचो. ह्या खेळा खातीरीय एक कडवें जाय आसता.

'यो रे चेल्या जोगिया, कुटेराचें खेळूयां<br>
खेळनु खेळनु निपूयां, जोगियांक सोदूयां-'<br>
'आको लिको सालि पिको<br>
चिंचामणा दिको दिको<br>
आजी म्हणा फाय म्हणा<br>
दाव्या दोळ्याक मीट<br>
उजव्या दोळ्याक चंदन<br>
सोदून काडल्यार दाकौन दितां !'

आपालिपाच्या ह्या खेळाक भुरग्यांलें आपलेंच अशें नांव आसा 'कुटेरा!'

उपरांतच्या काळार स्वल्प व्हडांक मलयाळम उतरां शिकोवंचाक एक अपरूप 'गीतकोश' तयार जालो. पुण ताचे फकत कांय कुटकेच हाताक लागल्यात -

घोड्याक नांव कुतिरा - कुळिताक नांव मुतिरा !<br>
चवळेक नांव पयर - पोटाक नांव वयर !<br>
दाळीक नांव परिप्प् - व्हाणांक नांव चेरिप्प् !<br>
दुदाक नांव पाल् - पायाक नांव काल् !<br>
दोळ्याक नांव कण्ण् - रेवेंक नांव मण्ण् !<br>
नांकाक नांव मूक्क् - जिबेक नांव नाक्क् !

भुरगीं मागीर शाळेंत वचून खुद शिकूक लागलीं म्हूण आसूयात, हो कोश विसरार पडिल्लो. पुण अजाप म्हळ्यार कांयच अर्थ ना तसले खेळगीत थोडे निश्र्चयास तिगून उरले ! भुरग्यांगेलें मन कितें कशी म्हूण फकत तांकांच खबर!

'अंगु सिंगु फुलवाडी, फुलवाडी
हातांतुली फुलवाडी, फुलवाडी
सोपूर बावले कन्नडी, कन्नडी
शीट शिवलें चुन्नाळ, चुन्नाळ
जेवनु बेसून खावूंया, खावूंया
आंभोवा - सिंभूवा - फा, फो, फू !!!'

कोणेंय भुरगें गडगडेवन पडलें म्हण्टनाय असले थोडे फटवणे 'मंत्र' म्हाळगडीं जपतात पळयल्यां. भुरग्यांनी वाडकुलीं बेसून, हात खांदांक वेष्टून, धोलून म्होणचो एक गींत असोय आसा -

'दोंदोन दोंदोन चिरापूटूळां - चिरापुटूळां -
कोणाल मांचार गडगडावंचीं - गडगडावंचीं -
मामु गेलो संते - संत्ते -
सांते आंबो पिकोलो - पिकोलो -
घालि मामा पेशी - पेशी -
मामान हाडली म्हशी - म्हशी -
ते म्हशीचो डेंकारो - डेंकारो -
आमचो मामु फेंकारो - फेंकारो -
मामाक इतूली व्हनीयो - व्हनियो-
दसा बारा व्हनियो - व्हनियो -
तांतूलेकी निब्बटी - निब्बटी-
तिगेलें चेरडूं कुवारा - कुवारा-
राजा देवू राणियां - राणियां-
फुलां गांथून माळूंयां - माळूंयां-
एक फूल झाडून गेलें - झाडून गेलें-
आंबले भावान दिकीलें - दिकीलें-

आंबले भावे चोरू - चोरू -

चोरा मारा कांटेरा - कांटेरा -

खांडे काणु मारूयां - मारूयां -

चोर माड्याचें खाड - खाड -

खाडाक पडल्लयो ऊवो - ऊवो -

चोर माड्याचो धुवो - धुवो -

धुवांक लागलें पिशें - पिशें -

निश्यां पडलो कापूसू - कापूसू -

वाटेन वतलो बापूसू - बापूसू -

ह्यो वळ्यो पोळ्ळूरचे श्रीमती. सूर्या अशोकान संगिल्लयो. ह्या आनी अश्या गीतांनी कांय कडे अर्थाक वेगळेंच वळण घेवंचेंय गांवां गांवांनी मेळता.

# लग्ना गीत

लग्नाच्या आचारांत व्होर उबारप जातना व्हरेता - व्हकलेक एकठांय बेसोवन सवासिण्यो दीवे दाखयतात. ह्या वेळार 'शोभानें' म्हण्टात. हीं पारंपरीक गीतां लोकवेदाचीं जाल्यांत. शोभानाचें एकेक कडवें जातना म्हालगडीं अक्षतां उपशितात. मंगलाचरणाच्या ह्या गीतांनी देवाली आनी ताचे लीलेची स्मरण जाता; वर्णना आसता.

'श्रीलक्ष्मी बामणाक, बालमुकुन्दाक

जलांभितर मत्स्यरूप घेतल्ल्याक

बलाखातीर कूर्मु जावनु व्यापिल्ल्याक

नीलवर्ण श्रीकृष्ण रुक्मिणीक

बल कोरनु आरती दाखयताय - शोभाने !'

ह्या तराच्या इखरा कडव्यांनी व्यत्यस्त अवतारांची - म्हळ्यार वामन, नरसिंह, कृष्ण, बुद्ध, कल्की, वेंकटेश, श्रीनिवास आदींची स्मरण जाता. लग्न जावन व्हरेताल्या घरांत घरभरवण आसा. ह्या वेळार व्हरेताली भयण तांकां आडायता. 'हुमरावेल्यान

व्हरप' आडावन ती तें 'कवड धरता', आनी कांय मागण्यो करता. तिच्यो मागण्यो व्हरेतान व्हकलेन मान्य केल्यो म्हण्टना ती कवड सोडता आनी घरभरवण जाता. ही चाल मागीर मागीर ना जाली तरीय हें 'गोवूळ' शोभानेच्या रूपान गायतात -

'नन्द गोकुलवासु देवाले पुताक, भीष्मरायाले धूवेक
म्हूर्तु कोरनु केली व्हारडीक,
आदरु केलो महागणपतीक, नार्लु दवोरनु,
देवकायरें उडिदा म्हूर्तु, लग्न, कन्यादान, देड्डी.
घरभरवणी जाता समयारी
राबली बागलारी व्हरता भयणी - शोभाने !'

आनी एकेक कडवें भावाच्या भावजेच्या भयणीच्या तरपेन आसता. सगलींय 'शोभाने'- म्हूण अखेर जाता. भाव सांगता हें - 'तूं बागलारी रावल्या इत्या खातीर? समय चुकता, घर भरवणी कोरनु, व्हकलेक नांव आपोवनु फोवा चोळके वांटून, तोंड गोड कोरनु संतोष पांवूंया-' भयणी सांगता - 'एक अम्मा पोटां थाकून आयलीं आमी भाव - भयणि. आनी जावंका वेयु वेणी. म्हळ्ळेले खातीरी राबिल्यां बागलारी. इतें गो न्होनिये तूं माथें बावगोवनु बेसल्या, तुजेर जालेले पुत्रीक तूं दिता वे ?' ही तिजी मागणी मान्य करतकच ती कवड सोडता!

सुनेक घरांत हाडचो एक गीत आसा पुण आतां प्रचारार ना. पूर्वी बालविवाहाची चालि आशिल्ली म्हूण जाणवता तें गीत अशें.

'अडे माडे गाडविले ताजे उंचारी-
हांतूळें जसेरी कापड तीं चोगय बेसलीं ताजेरी
योरे पुता उजवे मांडीरी, यो गो सुने दावे मांडीरी
बापान केली गो धनराशी
आजेन केली गो कनकेशी
अम्मान वाडयली गो बाराय वर्ष
आजी तुमचे हातीं दिली गो, पालन कराय वो
चारि वीडे चटवांतू, व्हकलेक
हाडि म्हळ्याय मांटवांतू

व्हकलेलो माय बापूस
गंगेचें उदाक, पालन कराय वो-'

हें पुण तशें स्पष्ट न्हय आसता - खंयतरी म्हणप्याली याद चुकल्या वा बरोवन काडतल्ल्याक घुसप लागला म्हूण दिसता.

व्हरेताल्या घराकडे लग्न दिसा ताका 'भासींग' बांदोवचें एक पद आसा -

'दंडू पूजिला रतनाचो
बांकु भरिला मोतियांचो
इन्द्र चन्द्र समीर कुलवंतू
आगे वोनिये काजोळी
दोळ्यां काजोळे भोवरा भोरांते
रुक्मिणी सोवासिणी
मेवणा आमकां रुकी फुलां हाडाय
रुकीचे जायो जुयी शेंवतें
मोगरे केदकीचे नील भासिंगाचे गोंडे
पटा सुताचे ते दांडे
माय बापूस संतोषिले, भासिंग बांदयलां '-

लग्न वेळार न्हय तरीय ताच्या फाटल्या दिसांनी म्होणचे कांय गीत आसात -

'फोवां भितर फोवू - फुल्लयिलो फोवू -
बायले मोगा घोवू - व्होरेत आमगेलो !
व्हकल बाय गोरी - व्हरेता मनांत गेली -
काजल दोळ्यां सुयलेली - नदर काळी !'

अशे होव्यांच्या रूपान आशिल्लो हो गींत आतां खंयच आयकूक मेळना !गीताच्या अंताक अशी -

'आमी म्हळी ओवी - तिका खरी दिसली -
खरी दिसून मनांतूं - व्होकल बाय हासली !'

# परबे गीत

फालगुनाच्या म्हयन्यांत येवपी 'शिगम्याक' नाच संगीत सयत गाणीं गायतात. हे नाचगीत चड करून कुणबी लोकां मदें प्रचाराचे. प्रश्न आनी जाप कशी हें गाणें आसा आनी हांतूं आसा तरणेपणाचो मेकळो विनोद -

'शिगम्याचे वेळारी पोंगीरु फुलेला
एक सायेचीं चेडवां खेळूक आयलीं
मुगाय बाळे गो तूं कालि इत्याक
शिगमो खेळूक आयलेना?
मेगेले भावा कालचो मुर्तु
त्या निमितीं आयले ना !
सान तुळसी होड तुळसी कशी गो भूषण?
खिळखिळेचे वोराण एत्ता सोडि गो निसण !
एशी करूं गो तशी करूं गो
रोसू गेलो गिळनू, मिनबायले देखूनू !'

कुणबी समाजावरी ब्राह्मणांच्या घरांनी तशी परबे गीत नात. भजन वा भक्तिगीत आसताले जाल्यारीय कोंकणी लोकगीतांच्या माथाळ्या खाला तांचो आस्पाव करूंक मेळना. ह्या घरवंतांनीय कांय गीत निर्माण जाल्ले आसात, पुण परबां खातीर वा परबां वेळार न्हय. आचारांकडे खूब संबंद आशिल्ल्या इतर थोड्यांची (श्रवोण, गोड्डे रामायण, फुगडीं, मोरोळी) वेगळीच वळख मुकार दिल्या.

# फुगडीं

विशेष दिसांनी कुणबी बायलांनी नांचून गावंचीं हीं पदां विनोदी, तिखटीं, तरणेपणांची आनी भावनावश अशीं पदां आसतात. इतर समाजा पशी कुणबी समाजाक मातयेकडे नातें चड आशिल्ल्यान ह्या पदांक जिविताचेंच रूप आसता.

'बायपेकारा यो गा, फुला पोरमोळ घे गा
वाटें नातीलें जेवंचें कशी
गिंडी नातीलें आवंचें कशी
घोवाले कडचे पशी तोडा उडगोनु मोरचे तशी '-

'अशी घांव तशी घांव तोंडुलेचे बेला
घरां वोनी बाळां जाता तेला धांव रे आतां
तेल हाळ्ळें दीव्या घालें वोने जालो चेलो
चेलो जालो म्हूण आनान केलो सेठो!

'बोर बाळे बोर, तीं या बरीचीं त्या बरीचीं बोर
मेजो भाव साष्टे गेलो थांगा जालें फालें
साष्टे गेलोलो इत्ति हाळ्ळेलें?
साष्टीचें मडळ आडनु कवड बांदीलें !
घरांतुले वोनियो तुका देरू मानवैलो !'

'कुणब्याले देरलांतु आसा एकु माड्डो
कुणब्या बायल म्हणता कितें मेगेल घोवु गुड्डो !
दुद्दी बाळे दुद्दी, ती बारांपळेची दुद्दी
या खोतानी चेली आळ्ळि सगटांपशी गुड्डी !'

लोकवेद आतांय निर्माण जायत आसा म्हणपाक फुगड्यांची देख दिवूंयेता. 'बायेपेकाराचें' फुगडें वैपीन गांवांत जाल्यार, 'साष्टेचें' कोची, आनी बारांबळेंचें' वरापुषा गांवांत निर्माण जालें. व्हड पोरनीं न्हय अशे कांय फुगाडीं हालींच प्रचारार आसात म्हूण तृपूणितरेचे श्री. एल. बालकृष्णन सांगता. 'मूपाक' आपोवंचें एक फुगाडें सान भुरगीं लेगीत म्हण्टात खंय, जाचें निर्माण केवल कांय वर्सा पुरथमच जालेलें !

'फुगडीं' घालपाक तशी अमके थारयिल्ले दीस जाय म्हूण ना. संतोषाचे दिसांनी तीं ह्या लोकांक निसर्गिकपणान येतात.

'चींच बाळे चींच, ती देरला पशी ऊंच
आना आना, बायले हाडल्या
आना पशी ऊंच !'

'सूर्य उदेता माणकू निदेता
माणकूची बायल तीव्रय
घोड्या शिंगारता-'

'येदी येदी फूला आंबूली
कीरू चोंचायता -
वाटेर वच्या बायलांक कित्या
कीरू आपयता ?'

# मोरोळी

होळयेच्या मुरथमल्या दिसा, सांजे स वरांचेर कांय कुणबी समासिण्यो कुलदेवा देवळाचे मुकार एकडे जावन 'फुगडीं' घालताल्यो. ह्या बायलांक 'मोरोळी' म्हूण पाचारताले. सात गोत्रांत थाकून सात मोरोळ्यांक मसणाच्या राखणेचो अधिकार दिल्लो आसतालो. ह्याच सुरक्षा (स्त्री) सैनिकांक 'सात भयण्यों' म्हूण वळखताली. भोव पूर्वी आशिल्ली ही चाली मागीर ना जाली. फुगाडीं, मोरोळी गीत, गोड्यां गीत आदी थोडे बाकी वरले तरीय हांकां लागल्लीं अनुष्टानां नाश्च जाल्यांत. एक 'मोरोळी गीत' अशें -

अर्थांके नार्यांके भूमि गे यी -
भूमीरी मांडीलो खेळु गे यो -
मोरांणी मांडीलो खेळू गे यो -
मोरू खेळताय राजांगणे -

सोडीया सखीया भारू गे यो
अळ्ळे पळ्ळे पकुंजयता देवांदो
सिंताचे कारुणी देव रानांतूं
चालीले चालीले चालीले गे

'दुद्दाचें धार गे खांड्याचें धार गे
चंदा पोरमोळी दीसू गे यो-
मोरांणी मांडीलो खेळु गे यो
मोरू खेळताय राजांगणे -

तळिये तापोले दोळे परतीले
एळुदुवाणीं पावलां दूयीण गे
आमकां मोरोळ्यां शांत कोरका
देवांणी आमकां मोरोळ्यां शांत कोरका -'

# श्रवोण

'श्रवोण' हें गोड्या होरणें गीतक केरळाच्या कुणबी समाजाचें दायज. कुणब्यांल्या कुलदेवांच्या देवळांकडे हाचें गायन शुरू करताले. थंयचान पुरसांव जावन गीतकाचे गावपे, गडे आनी इतर दादले मसणाकडे वतले. गीतक सोंपतना थांगा आत्म्या खातीर. धर्मीक विधि जातली. मद्दाळीं, पेंप्रीं, डुमाण, घुम्मट, होड पितळीचो ताळ आदींचो मेळ आसतालो. हें अनुष्टान होळ्ये दिसांनी सांजवेळा जताले. मसणांत थाकून म्हालगडे 'हाड' घेवन येतले आनी अनुष्टाना उप्रांत तें हाड जमिळ्यांक उव्वाळून परतून मसणांत व्हरतले. ह्या वेळार बायलांक येवपा पासून बंदी आशिल्ली. गीतकाचे गावपी वेगळे आनी क्रिया करपी वेगळे. अनुष्टान करतल्यांनी व्रत घेवूंकय जाय आशिल्लें. कुणब्यांले संस्कृतीचो एक महत्वाचो वांटो जावन आशिल्लें, हें गीतक आतां पुस्तकरूपांन आयल्यां. दोग जाण गावप्यांनी आपल्या उडगासांतुल्यान हें गायलेलें 'कोंकणी साहित्य समाज' हे संस्थेन प्रकाशित केलें. गीतकावेली श्री. पी. जी. कामत हांची इंगलीष व्याख्या वेगळीच मेळता. अनुष्टानाच्या रूपान हाचें गायन १९४७ वर्साचे उपरांत जावंक ना, पुण मेळ जावन १९६९ मेरेन जाल्यां अशी श्री. के. के. सुब्रह्मण्यन (कार्यदर्शी, कोंकणि साहित्य समाज) हे म्हणतात.

'श्रावण' ह्या तरुणाली ही पद्यकाणी आसून, हांतूं ताच्या आवय-बापसूली काणीय आसा. त्या अंधकांचें अप्रूप आनी मार्मिक चित्रण, हाची विशिष्टताय. गीतकाची शुरुवात इखरा वळ्यांनी इखरा जाणांचें नमन करून जाता. हीं आसात - ओंकार, तीन गणां, गणस्पती, देवनारायण, चन्द्रसूर्य, आकाश गन्धर्व, धरती माय, भूमि पांचोय माय, सातोय दोणि लोक, लोकाप्रजा, गुंडो फातोरू. काणी अशी - आदीं दोग 'अन्धकां' आशीलीं. ताणी सात देवळां बांदयलीं-हांगा ऋषींनी पूजादिकार्य करच्याचें सविस्तर वर्णन आसा. देवळांतुलो निवेद खावन बायल अन्धक गुरवार जाता-हांगा दुवाळ्यांचें विवरण येता. 'श्रवोण' जन्मता. पाळण्यां दवरप, नामकरण, सठये पूजा आदींचें विवरण जावन, श्रावणाक काळगमुनीकडचान विद्यादान जाता. सातय देवळांकडे तो पुजेक भायर सरता. सगल्याय आचारांनी तो पूजादिकार्य करता. पुण भायर वाटेर अंधकांक दिकतना तो तांकां आंबुडता, दूरा धावंडावंचाक चोयता, आनी गुंडे फातर काडून तांकां शेवटून मारता. तीं ताका श्रापितात. रावळारांत पावंतना काळगमुनीकडे श्रापाचो परिहार असो मेळता-सुवर्णाची कावडी करून तांतूं अंधकांक घेवन भोवन तीर्थस्नान करूक जाय. तो तशेंच करता. तीर्थयात्रेंत एकदा अंधकांक तान लागता आनी तीं ताचे लागी उदकाची मागणी करतात. तो उद्काक सोदून वता. खंयच उदाक नासून रानांतुले न्हंयेकडे पावंता आनी कुरंबळ्यांत उदाक भरता. ह्या वेळार ताका दशरथ रायालो बाण लागता. अंधकांली खबर रायाक दिले नंतर तो मरता. रायाक पछाताप जाता. राय कुरंबळ्यांतुलें उदाक व्हरून अंधकांली तान निवयता आनी जालें तें घडित विवरसिता. अंधकांले इच्छे प्रमाण राय श्रावणाक सारयेर दवरता आनी उजो दिता. अंधकां रायाक श्राप घालीत पुताले सारयेर उडी मारून जीवत्याग करतात.

हें गीतक इतलें लांब आसून लेगीत मौखीक रूपानच इतले काळांक तिगून उरलें हांचे आमकां अजाप दिसता. सात देवळां बांदयिल्या पूर्वजांची ही पौराणिक गाथा पिळगे पिळगेच्या गावप्यांक मेळत रावली. त्या पूर्वजांच्या मसणाक धारा करची पूजा विधी अशी आसता.

'सातोय जाणा भयण्यांदो एकलो तुमचो भाव गे
गुरुत्व दाखयचा यंगा भाव तुमचे मोसणां गेला
मोसणांतुले मायांदो मोसणां दाखोन दियाय गे
गुरुत्व दाखयचा यंगा हाळ्ळीं मोसणां दाखय वो

हाळ्ळीं मोसणां धारा कराय, हाळ्ळीं मोसणां धारा कराय
हाळ्ळीं मोसणां न्हाण कराय, हाळ्ळीं मोसणां न्हाण कराय
हाळ्ळीं मोसणां पूजा कराय, हाळ्ळीं मोसणां पूजा कराय-
हाळ्ळीं मोसणां काड्याय वो हाळ्ळीं मोसणां काड्याय वो
हाळ्ळीं मोसणां व्हराय वो हाळ्ळीं मोसणां व्हराय वो
मोसण आपोण घेयाय आमचे गोड्यांक पोरतून धाडाय गे
गुरुत्व दखीले यंगा शेळ शीतळ देव जालो
शीतळ जाली भूमी शीतळ जालो सागोरू
प्रथमी जाली शीतळ भोगोंती जाली शीतळ
मेळ जालो शीतळ गोड्डे जाले शीतळ
ॐ गायाय ॐ ॐ
ॐ गायाय ॐ ॐ'

मृगयेच्या विनोदाक रानांत पावलेल्या दशरथ रायाक अपसमज जाल्ल्याचें आमी जाणां. श्रावणान कुरुंबळयांत उदाक भरतना जाल्लो साद, हस्तीन तिचे सोंडाळेंत उदाक काडतना जाता ते वरी आशिल्लो खंय ! शब्दभेदी रायान बाण सोडलो. पुण बोब आयकूक आयली ती एक 'नर मोनीस रोदु !' राय श्रावणालगी धावन पावंता. ह्या वेळार तांचे मदें जाल्लें संभाषण ह्या गीतकांतुली अप्रूप वांटो जावन आसा -

'काडी राया बाणू, धावंचो पिराणू गा -
भियोनाका श्रवोणा जीवोण कोरोणो गा -
केसेले प्रमाणी तुवूं जीवोण केरीतो गा-
तळियो फोंडांतू तुका मावो तेवोणू गा-
चन्द्रा सूर्या माका शापू घालतोळी गा-
'हद्यां फोडांतू मावो तेवोणू गा-
केळशी मोडवोळु माका शापू घालतोळो गा-
बोंबले फोंडांतू तुका मावो तेवोणू गा-
लोकू प्रजाय माका शापू घालतोळो गा-
पावळां फोंडांतू तुका मावो तेवोणू गा-
धरत्री मायी माका शापू घालतोळी गा-'

एक एकय सांगल्यार आयकनाशें, ही आपण्याली कर्मविधी म्हूण सांगून, वाटेर पडिल्ले आवस बापसूक कुरुंबळ्यांतुली पानी पावोवंका म्हूण सांगून, बाण ओडून काडूक रायालागी म्हणता. रायान बाण काडलो म्हणतना तो 'राम मंत्रु जप कोरंनु' प्राण सोडता. कुरुंबळ्यांतुलें उदाक व्हरून राय अंधकाची तान निवयता, घडीत विवरसिता, श्रवणान पडिल्ले कडे तांकां व्हरता, श्रवणाक सारयेर दवरून उजो दिता. सारयेक तीन 'भोवंडे' घालून 'पुता दुखाणी तूवूं कांय मोरतोलो गा-' म्हूण रायाक श्राप दीत तीं सारयेर उडी मारतात.

'तेगोय वर्गांक रायाणी मोछाक पावेयलीं गा - 'म्हूण गीतकाची अखेरी जाता. ह्या गायना उप्रांत अनुष्ठाना रूपान पूर्व पित्रांचे मोसणाक धारा करून पुजतात.

# गोड्डे रामायण

'श्रावोण' गीतक जशी कुणबी समाजाचें दायज म्हणतात तशी 'गोड्डे रामायण' कोंकणी वैश्यांचें दायज. हेंवय 'गोड्डयांक' होरावंचेंव गीत, पुण हांतूं श्रवोणाचे काण्ये उपरांतची काणी 'रामायण' आसता. हांगाय गावपी वेगळे आनी गोड्डे वेगळे. पोरन्या तळतांनी मेळ्ळोलो ह्या गीताचो व्हडलो एक वांटो प्रो. आर. के. राव हांणी उजवाडाक हाडला. तांतूं बालकांड ते अयोध्याकांड मेरेन आसा. हेंच पांयशां लागी श्लोक आसात म्हणतना मूलांत आट कांड आनी तीन हजार वळयो आसूंयेतात ! महाकाव्याच्याच येद्या व्हड आकाराचें हें बृहत्‌गीत जानपद साहित्यांत बेसना असो वाद आसा. खरें आसत. हें लोकमानसांतुल्यान उपजूक नासून खंयच्या कांय कवीच्या गळ्यावयल्यान फुटलें आसत. पुण हें कोणेंच 'बेसून' बरयिल्लें न्हय अशी स्पष्ट कळता. गावप्यांल्या परंपरेंतुल्या एक वा चड जाणांनी, मेळून वा कालक्रमान हें गुंथलें, अश्या एक अनुमानाचेरीच आमी पावूंक शकतात. हांतूं जायतेकडे उतरां परतिल्लयाचें, भरसिल्लयाचें दिसून येता. तळताचेर बरयतल्लयान आनी लिप्यंतरकारान हाचेर कितले आंनी केद्दे बदल हाडले हाचीय आमकां खबर ना. 'श्रवोण' गीतक तरी सामकेंच गावप्या कडल्यान, बदल करीनास्तना, आमचे लागी पावल्यां. पुण 'गोड्डे रामायणा'ची काणी वेगळी !

गीतकथांच्यो कितल्योच देखी लोकवेदांत आसात. 'श्रवणाचें गीतकच हाका उत्तम उदाहरण. तें गीत जंय, ज्या खातीर, जे वापरताले, जिस्त त्याच वरी, त्याच खातीर, त्याच वेळार आनी तश्याच जाग्यार कोंकणीचो आनी एक समाज ह्या गीताचो वापर करतालो. होळ्ये दिसा देवळाकडचान गोड्यांचें होराण शुरू जाता, केरींनी पुरसांव जावन नारलाचेर (हाडा बदला) क्रिया कर्म जावं मेरेन गायन चलता.

हांतूंय गीताचे शुरवेक दोन श्लोकांनी इखरा जाणांचें नमन जाता-गजानन, सरस्वती, कुलदैव, मातापिता, पंडरीचो राय, कपिवर, अष्टदिक्पालक, योगी, श्रीराम, नवग्रहां, इखरा रुद्र. हांतू पुण, गावाप्यां प्रमाण बदल आयिल्लो दिसता. प्रो. राव हांच्या पुस्तकाचेर 'कपी' बदला 'कवी' आसा, आनी सप्तर्षि, बृहस्पती, तेत्तीस कोटि देव, गुरू, त्रिभुवन आदींकय नमन येता. श्री. पुरुषोत्तम मल्या हांच्यां पुस्तकाचेर 'दस्सवें नमन म्हजें नाहीं कळलें गा!' अशीय बरोवन काडल्यां!

'श्रवोण' कावडी घेवन तीर्थयात्रा करीत आसा म्हूण काण्येची शुरुवात जाता. पुण धा श्लोकांनी श्रावणाली कथा सोंपता. मागीर शापमोक्षा खातीर दशरथ राय याग आरंभिता धरून 'रामायणाची' कथाच आसता. तीन व्यत्यस्त श्लोक अशे -

* 'हृदयजीं श्रावणु पाणी भरितोगा
पाणी भरुचे वेळार शब्दु पै जालोगा
शब्दभेदु रायान एकु शब्दु आयकीलो गा
शब्दा सारिखें ताणे बाणु काडिलो गा
कान्नाडी ओडूनू ताणे बाणु विंदीलो गा
बाणु येवनु ताजें हृदय भेतीलें गा
राम राम म्हणून तोवै धरणीर पडिलो गा-'

* 'शीतेशीं घेवुनु रावोणु आकाशीं उडलो गा
सागरु उडून लंके भीतरीं पाविलो गा
लंकेचे लोकान कायी रावणा देकीलो गा
घरां घरीं लोकु कायी मानु करितो गा
पापिये रावणे मृत्यु घरांतू हाणिलो गा
जळतल्लो अग्नी ताणे फाटीरी घेतलो गा
काळसर्पु हाणु ताणे उश्शाक घेतलो गा
अयिशें नगरीं लोकु होळूची बोलिलो गा-'

* 'ते वळा तो जांभवंतू हनिमंता बोलीलो गा
शीघ्र हनिमंता तुवें एक करावे गा
वेगी जावूनू तुवें औषध हाणावेगा
औषध हाणूनू रामा लक्षिमणा लावावे गा
राम लक्षिमणा तुवें जीवन करावे गा-'

# कथागीत

'कथागीत' वा 'पद्यकाणी' लोकवेदाचें महत्वाचें घटक जावन आसा. थोड्या पद्यकाण्यांचें सादरीकरण वाद्य-संगीता सयत जाता. थोड्यांचे गावपे, गावपाचें थळ, वेळ, काळ आदी समाजान थारायिल्ले आसतात. थोड्यो काण्यो घरघरवंतांत बायलांनी गांवच्यो आसतात, चड करून नवरात्री सारक्या परबेच्या दिसांनी.

'गणपतीचो लाडू' 'यशोदी गायेक धार काडता' 'उठ रे कृष्णा' अशी बालकृष्णाल्यो करण्यो विवरसुचे सुमार गीत आसतात, पुण हांकां पद्यकाणी म्हणूक जायना. पद्यकाणी ह्मूण स्पष्ट रूपान मेळची एक भोव पोरनी काणी आसा 'भोवुळ गाय'. हे काण्येंत माये-मोग, करुणा आदी भावना थळथळता. आयकुप्याच्या दोळ्यांत दूकां हाडूक शकता तसली ही एक अप्रूप पद्यकाणी.

'सुवर्णाचीं शिंगां आनी रुप्याचीं गातां' आशिल्ली 'करामती नगरीच्या भीमक रायाले घरची भोवळी गाय' - चरता आसतना एक वागा मुकार पावता. वाग गर्जून तिका खावूंक आयलो म्हण्टना ती सांगता -

'आगा आगा वागा, माजे थानी आसा दुबो
एक पानी दिवन ताका भूक राखावें -'

आपल्या दुब्याक दूद दिवन आपुण परतून येवीन म्हूण ती 'त्रिभुवनाची, चन्द्रसूर्याची आनी दुब्याची आणी' घालता. तेन्ना वाग तिका तत्काल सोडता. ती 'भरिल्ल्या दोळ्यांनी हांबेता हांबेता' गोठ्यांत पांवता आनी दुब्याक दूद दिता -

'सुरसुरी पी रे पुता दुदाचे घोट

फायचे दिवस पुता भोगूचे कष्ट -

आले पाले डोंगयारी तण पाले खा रे

वाटे उदाक पीवनु पुत्रा घरांसी यो रे'

मागीर भोवळी गाय परतून वागा लागी वता म्हण्टना तिचे मागल्यान दुबोय वता. थंय ती वागा मुकार स्वयं समर्पण करता, पुण दुब्याक तरी खावंचें न्हय अशें मागणें घालता. जाल्यार दुबो म्हण्टा -

'आगा आगा वागा तूं दुब्याक खा गा

राख म्हजे भोवाळेक सोडून दी गा !'

ह्या अशा निष्पाप आनी अप्रूप मायेमोगाचे मुकार वागाचें मनःपरिवर्तन जाता. तो म्हण्टा -

'भोवळी माजी भयणी

म्होणू दुबो माजो भाचो

तुमी दोगांय राज्य कराय वना मजारी !'

'वळार' ह्या गीतांत प्रत्यक्षपणान एक परिपूर्ण कथावस्तू ना तरीय हांतूल्या घडितां फाटल्यान एके परिचित जीवितकथेची आनी त्या कथापात्रांच्या निज स्वभावाची बरीचशी सूचना आसा.

रुक्मिणि वाटेन वतल्ल्या वळाराक आपयता आसतना गीत शुरू जाता. तिचे कुळारांत पावोवूंक ताचेकडे ती एक संदेश दिता. तिच्या कुळाराची वळख ती अशी दिता -

'एक दारीं आंबा, एक दारी चंपा

तें घर रुक्मिणी मायी - बापा -'

वळार थंय वता आनी तिचो संदेश तिगेले बापा लागी, आवसू लागी, भयणी लागी आनी भावजे लागी म्हण्टा. पुण तीं तांचे तांचे कामांत व्यस्त जावन आसतात. लग्न जावन गेलेले रुक्मिणीलें तांकां तशें कांय पडून वचूंक ना म्हूण भासता. पुण तिचो भाव संदेश आयकतनाच रुक्मिणीक पळोवंक भायर सरता-

'हाड्या रे गंगाळ न्हाणियां भरया पाणी
आपण वतां घरीं रुक्मीणी - '

ताचो योवकार करून रुक्मिणि ताचे पा धूयता. इतल्यान तिचे दोळे भरतात. भाव रोखडींच तिच्या दुःखाचें कारण निमगीता. आनी रुक्मिणि म्हण्टा -

'आंदण विंदण दिलें मू रे भावा
खोवल्या खातीर मांयों हिणकिंती.
मांयों रे हिणकिंती, नणंदो शब्दु दिंती
शेजार घरच्यो बायलो, व्हय व्हय म्हणतीं !'

हें आयकून तो हातोहात शेठीक आपोवन एक सुवर्णाचो खोवलो करोवन दिता. उपरांतें -

'सुवर्णाचो खोवलो, रुप्याची दोरी
ताक घांटीता गोरी रुक्मीणी.
ताक चाळतां , ताक चाळतां,
खोवल्या लागलो गुळो
तांतूं दिकीलो तीळो कुंकुमेचो !'

# लोककाण्यो

संवसरांत जशी अखंड जावन काण्यो घडत आयल्यात, तशी काण्यांनी संवसारूय अखंड घडत आयला ! संवसार घडोवपी प्रक्रियेंत काण्यांचो वांटो तशी ऊणो न्हय. गुरुजनां भाशेन, म्हालगड्यां भाशेन आनी मित्रां भाशेन काण्यो वाट दाखोवन दितात - दुःखां विसरायतात - लोकाची वळख दितात. जीविताच्यो त्यो हारशे आसतात. मनीष जशी तोंड केस न्हेसण सारकीं करूक हारशाचो उपेग करतात, तशींच म्हणा, जीविताच्या कार्यांत ह्या साहित्यिक हारशाचो उपेग येता. लोककाण्यो भुरग्यां खातीर जन्मल्यो आसतात, तांच्याच दोळ्यांनी संवसाराक पळोवंच्यो आसतात, आनी तांच्या तरन्या पिकाळ मनांचेर ज्ञानाविज्ञानांचें बीं उडोवपी जावन आसतात.

दर जनांगाल्या लोककाण्यांचेर ताचो ताचो छाप आसता. काण्यांचें वातावरण, पात्राचें चालचलन, भाषण, कथानक आनी कथेचो परिणाम हांतूं समाजा - समाजांनी फरक आसतात - व्हड तशीच सुक्षीम. केरळाच्या लोककाण्यांतूय राजा-राणी, देव-राक्षस, गांव- शार, मांकड-कोल्लो, खोपी - रावळार, कायळो - कीडी अशी सर्व आसतात. थोड्या काण्यांत पदां आसतात तर थोड्यांत रसाळ भासा - भास.

लोकगीत पुंजावन वेंचून पुस्तकांच्या रूपान आयलेल्यावरी हांगाच्यो लोककाण्यो आयल्योनात. कांय काण्यांचो आस्वाव केन्द्रीय साहित्य अकादमीन उजवाडाक हाडलेल्या संग्रहांत जाला (संकलन - जयंती नायक) मौखीक परंपरेन तिगून उरिल्ल्या ह्या काण्यांचें प्रथम खाशेलेपण तांची कथनशैलीच. ह्यो वाचता आयकतना एक आज्येचें आनी तिचे चोयवशीन जमिल्ल्या भुरग्यांचें सुंदर चित्र छटक जावन आमचे मुकार उबें जाता. आमचें विसरार पडिल्लें अपुरबायेचें भुरगेपण आमकां आपयता !

ह्या काण्यांची भास ज्या भाशेन सरळ आसता त्याच वरी रसाळय आसता. चडशो काण्योय भोव पोरन्यो. ह्योच गोंयांतूय मेळतात. 'घेतल्ल्यो' वा 'उपजल्ल्यो' अशी थोड्योच दिसतात. थोडे परिणाम, बदल तरी पोरन्या ह्या काण्यांनीय दिसता. पुण 'बदल' होवय लोकवेदाचो एक मुळावो सभाव ! लोकसाहित्य हें लोकांनी केलेलें, लोकांनी सांबाळिल्लें आनी लोकांनीच बदल्लेंय आसता !

पात्राचें खाशेलेपण मतींत धरून ह्या काण्यांचें विभाजन केलें जाल्यार हांचे १. जनावरां २. वास्तविक व्यक्ति ३. अवास्तविक व्यक्ति आनी ४. अतिमानवी, अशी चार वांटे करूयात. कथावस्तूचो सभाव मतींत धरूनूय विभाजन करूयात. बरें वायट दाखोवपी नीतिकथा, चातुर्य दाखोवपी सरस कथा, फकत हास्या खातीरच्यो विनोद कथा, अतिमानवी कर्तुपांच्यो अद्भुत कथा आनी मागीर इतर कसल्योय. पुण जिस्त आनी फकत एकच विभागांत बेसतली अशी एक काणी मेळचीना! काय काण्यांचें सारांश पळयल्यार हाची जाणविकाय जातली.

'कायळो आनी गुरबजी' हे काण्येंत कायळो आसा कुसुंगो आनी दुष्ट. गुरबजी बरी आनी चतुर. कायळो गुरबजेले पिलांक खाता. पुण गुरबजी कायलातो तापोवन ताचे पोटार दवरता. कायळो मरता, पिलां वांचतात.

'कायळो आनी कीडी' हे काण्येंत कायळो किड्येक खातलो म्हण्टा. 'तुजी चोंची आतां बुरशी आसा, ती धूवन तरी यो !' म्हण्टा कीडी. कायळो उदका खातीर कोळसूलो, ताचे खातीरे माती, तिचे खातीर खोरें, आनी लोकंड तापोवंचाक उजो सोदून वता. उज्या इंगळ्याक चोंची मारून बुद्धी शिकता.

'कोल्हो आनी कुरलें' हे काण्येंत कुरल्यांक खांवचे खातीर कोल्हे एक चतुराय करतात. कुरले आनीकय चतुर आशिल्ल्यान कोल्हे माती खातात. हांतूं दोगांलींय व्होराणां कुरवांचीं पदां म्हण्टात -

कोल्हे : घासाक तीनी, घासाक चारी !
घासाक तीनी, घासाक चारी !

कुरले : थंय थंय मुळकु मुळकु !
थंय थंय मुळकु मुळकु !

'एकादशीचो कायळो' हे काण्येंत एकादशीचे दिसा एक निष्पाप कायळ्याक पयलीं पायाक कांटो तोपता तरीय मागीर भांगराचो वर्ण मेळता (ताणें एकादशि पाळ्ळी) द्वादशीचे दिसा अर्दकुट्या आचारान दुशेरो कायळो पायाक कांटो 'तोपोवन' आदल्या कायळ्यान केल्लेलीं सगलीं कार्यां करता. पुण तो केवल 'चिखलाचो' कायळो जाता.

'बिकिलीचे काण्येंत' मांकड, माजर, कायळो, विंदूर हीं चार मित्रां मेळून 'बिकिली' करतात. हेरांनी न्हावूंक वतना माजर बिकिली खाता. बिकिली कोणे खेली हाचें खरेपण पारखूक एक एक करून न्हयेंत बुडून येतात. माजर बुडून वता. तिचीं आखेरचीं उतरां अशी :

'म्याव, म्याव, मावळिये,
बिकीली खेलोलो बुडून वचो!
न्हय जालोलो उंचार येवो !'

'खरबशें आनी गरबशें' हीं एक माजरेलीं पिलां. तांकां एक दुष्ट कोल्हो खाता. बदलो घेवंचे खातीर माजरी चतुरायेन ताका देवळांत आपोवन व्हरता आनी थंयच्या एक तुंबांत फसयता. मनशांले मार खावन तो मरता.

'अत्ती आनी पित्ती ' ह्यो दोग भयण्यो पोळे करचे खातीर राकूंड पुंजावूंक रानांत वतात. थंय, तांकां खावूंक आयिल्ल्या वागाक पोळे दीवूं म्हूण उतर दिवन् वांचतात. पुण पोळ्याचे सुवादांत तीं उतर विसरतात. वाग कोपता आनी तांका खाता.

'मांकड आनी रुकाचें बावलें' हे काण्येंत एक गरीब भुरग्याक एक मांकडा पील मेळता. तें एक हुशार मांकड जाता. ताच्यो कांय चतुर आनी रसाळ करण्यो कथेंत आसतात.

'म्हांतारी आनी दुद्दी' हे काण्येंत एक म्हांतारी आवस आपले धुवेले घराक वतास्तना, वाटेर रानांत एक वाग, आनी मागीर एक सिंह तिका खावूंक येतात. तावळ ती म्हण्टा-

'धुवेथंय वतां, तूप रोटी खातां,

घटमूट जातां, मागीर तूं माका खा !'

हें खरें म्हणून वाग आनी सिंह तिका तत्काल सोडतात आनी तीणे परतून येवंची वाट पळयतात. परतून येवंचो वेळ जातना म्हांतारेली धूव एक उपाय करता. व्हडल्या एक जादवाच्या दुदियांत म्हांतारेक बसोवन तिच्या हातांत उणोच मिर्यापिठो दिता. दुद्दी रानवाटेवेल्यान गडगडून वता. वाग आनी सिंह दुदियालागी म्हांतारेली खबर निमगितात. तेन्ना दुदियांत बेसून म्हांतारी म्हण्टा -

'म्हांतारी न्हय तुजी कांतारी न्हय

चल दुदिया गुडूगुडूम !'

तेन्ना दुद्दी दुशेर गडगडता आनी म्हांतारेल्या घराकडे पावंता. पुण ताचीच फाट धरून आयिल्ले आसात वाग आनी सिंह ! तेन्ना ती धूवेन दिल्लो मिर्यापिठो बरोच वापरता. वाग आनी सिंह बोवाळ घालून धावन वतात !

'बेत मारलेले काण्येंत ' एक रायाक दोग जाण राण्यो. व्हडलेल्या बाळकांक धाकली न्हयेंत सोडता. तीं खंयतरी वाडतात आनी तांकां एक जादूचें बेत मेळता. मंत्रशक्तीचें तें बेत सकल मारल्यार तांणी मागिल्लें सर्व मेळता. राय हें आयकता आनी चेरडूवांलें गुपीत समजून घेता. धाकले दुष्ट राण्येक धावंडावन बाकी सगलीं खोश्येन रावतात.

'विक्रमादित्य राय' हे काण्येंत त्या रायाले सभेंत एक तेजस्वी भुरगो पावंता आनी गुपितांचो एक गीत म्हणता. ताचें गुपित सोदून वतना राया-राया मुकार एक काणि विस्कळेता. सात वसां आदी ताचे सातवे बायलेक जाल्ल्या बाळकाक हेर स राण्यांनी मेळून रानांत सोडिल्लें. तोच आपलो भुरगो आतां आपल्या सामकार आयला ! स राण्यो शीमे भायर वतात आनी बाकी सुखी रावतात.

'भांगरा पेटारो' हे काण्येंत दोग शेजारी. गरीबाले चेलेक एक ओरोव शेणयलो म्हणून घरा भायर घालतात. चलत आसतना ती दयाळू आनी निष्पाप चेली झाडां जनावरांक उदाक दीत चलता. पार्वती - महेश्वरांक तिचेर दया दिसून देवळा माळयेवेलो एक खंयचोय पेटारो व्हर म्हण्टात. ती सानुल्लो पेटारो काडता. वाटेर तिका झाडां - जनावरां तोहफेय दितात. ह्या भांगरा पेटार्याची काणी आयकून शेजराची चेलीय तेच वरी करता, पुण व्हडल्यांत व्हडलो पेटारो व्हावन हाडता. तांतूं आसात बेब्बे, विंदूर, हेवाळीं, जोरले, आटपायांचे, सोकणी आदी -

' तीस परखाना'ची काणी हास्यप्रधान आसा. एक खावग्या अल्पबुद्धी तरनाट्याक भाग्याच्या खेळान राजकन्या आनी अर्द राज्य मेळता. हे काण्येंतुले कांय संकेत शब्द कन्नड भाषेचे आसतात.

. 'कुंड कोरकूल' ही सात भयण्यांतुली धाकली जाल्यार 'संसाळी' ही सात भावांली एकलीच भयण. अश्या ह्या दोन काण्यांतुल्यो ह्यो निष्पाप नायिका. कुंडकोरकुलाक घराभायर घालतात तिच्यो व्हडल्यो भयण्यो जाल्यार संसाळेक द्रोह दितात तिच्यो सात व्हनियो. अखेर कुंडकोरकुलालें आनी संसाळेलें भाग्य उदेता आनी तांकां दोगांकय सुख समाधानाची जीण मेळता.

'शेणबावलें आनी मेणबावलें' ही काणि हेर वाठारांनी आयकूंक ना अशी लोकवेद संशोधिका जयंती नायक (गोंय) हिणे सांगल्यां. हांतूं तशी कथा म्हूण एक ना. फकत भुरग्यांल्या खेळगीतावरी दिवपाघेवपाच्या घडितांची एक सांखळ. हे शैलीच्यो काण्यो आनी खेळ इतर भासांच्या लोकवेदांतूय आसतात.

पोळ्ळूरची श्रीमती. सूर्या अशोक सांगता ते प्रमाण ही काणी अशी -

शेणबावलें आनी मेणबावलें एक तळ्यांत न्हातात आसतना शेणाबावलें विरगळून शितोडो जाता. हाचे बदल तळें मेणबावल्याक दिता एक 'खूरू' ! तेंवय घेवन ताणे वतना एक मेस्त मेळता जाचे लागी मांचो करूंक एक खुरवाचो उणाव आसा. मेणबावलें ताका खूरू दिता, आनी मांचो जालो म्हण्टना तेंच परतून मागीता. मेस्त ताका खुरवा बदल एक 'खूंट' दिता. मागीर मेणबावलें मेळता एक वंय बादतल्ल्याक. ताका वंय बांदूक आपलो खूंट दिता आनी वंय बांदली म्हण्टना खूंट परतून मागीता. तेन्ना मेणबावल्याक मेळता एक 'पोरणो खूंट'. थंयचान वचून ताका एक म्हांतारी मेळता जी पोळो भाजूक

राकूड सोदीत आसा आनी जिचे रान्दणींत जळतात केवल रुकांचे सुके पाल्ले. मेणबावलें तिका पोरनो खूंट दिता आनी तो ती रान्दणींत घालता. मेणबावल्यान पोरनो खूंट परतून मागीलो म्हण्टना ताका मेळतात 'दोन पोळे'! मेणबावलें ते पोळे एक सोप्यार दवरून हातपाय धूवन आयलें म्हण्टना पोळे एक विन्दूर खाता. आनी मेणबावल्याक मेळता एक 'घुमटें' !

तें वाजीत मेणबावल्यान ताची काणी गावून सगळोच गांव एक केलो म्हण्टना राय ताका रावळारा आपोवन चाकरी दिता. तर ताणे गायिल्लें गीत अशी -

शेणबावल्याचो शितोडो केलो
शितोड्याचो खुरू केलो
खूराचो खूंट केलो
खूंटाचो पोरनो खूंट
पोरन्या खूंटाचे पोळे
पोळयांचें घुमटें केलें
डेंडें - डेंडें - डें !

# लोकवेद आनी समाज

समाज आसा तर लोकवेदूय आसा. खंयचोय समाज अस्तित्वांत येतकच ताचो आपलोचसो लोकवेदूय आपशींच घडून येता. जे भाशेन सावळी नासली वस्तु ना, तेच भाशेन लोकवेद ना तसो समाजूय ना. लोकवेद समाजान घडयलो आसता आनी समजान वाडयलो आसता. तेन्ना समाजाक परतून लोकवेदा कडच्यान कितें मेळता? ताका परतून मेळता स्वयं वळखुपाची जाण ! आपल्याकच बाळगुपाची त्राण !

म्हणी, गाणीं, काणी, खेळ - खेळगीत, बालगीत, कथागीत, नाचगीत, हुमाणीं, वाक्प्रचार, परबे गीत, विनोदी पदां, उतरां - उतरांचे खेळ, अनुष्टान गीत आदींनी संपुष्ट आशिल्ले आपलो लोकवेद जपून धरलो म्हणूनूच केरळाचो कोंकणी समाज आपली संस्कृति - आनी आस्मिताय राखूक पावला. 'धर्मो रक्षति रक्षितः' म्होणचे वरी, जें जनांग आपल्या जानपद साहित्याक संरक्षण दिता, तें आपलें स्वत्व राखूक पावंता.

केरळाच्या मलयाळी लोकां भरशी तांच्यांतुलेच जावन, वेगळेपणाची भावना जागयनाशें, कोंकणी मनीश जियेवंक पावल्यात. सगल्याय मळांर - मलयाळम भाषा आनी साहित्याच्या मळार लेगीत - कोंकणी जनांलें उल्लेखनीय योगदान आसा. शतकां - शतकांनी साबार पावटी मलयाळी लोकांकडचान ह्या समाजाची व्हडली तुस्त तोखणाय जाल्ली आसा. आपल्या पूर्वजांक हे भुंयेर राबितो दिल्ले खातीरचें रीण वाडि सयत ह्या समाजाच्या दर पिळगेन पावयलें आसा - आजीय पावंयत आसतात. ह्या राज्याचे प्रगतींत तसो ल्हान न्हय असो वांटो हांचोय जावन आसा. तरीय आसून हो समाज केरळांत मातूय विरगळून वचूंक ना. सांगल्यार विश्वास बेसचो ना त्या प्रमाण हाणे आपली संस्कृति आनी अस्मिताय सांबाळ्ळ्या. चमत्काराच्या ह्या जैताफाटल्यान लोकवेदाचो अदृश्य हातूच दिसता. पूर्विकां कडच्यान कोंकणी संस्कृतीचीं स्फूर्तिदिणीं स्फुलिंगां नवे नवे पिळगें कडे पावोवंचें धन्य काम लोकवेदान केल्यां !

# स्थलांतराचो प्रभाव

स्थलांतरित जनांग आशिल्ल्यान केरळाच्या कोंकणी समाजाच्या लोकवेदाचेर हे भुंयेचो कसो आनी केद्दो प्रभाव पडलो हो जावन आसा एक व्हड संशोधन विषय. कांय वर्सां पूर्वीं कोची विश्व विद्यालयांत घडयलेले एक यू. जी. सी. राष्ट्रीय परिचर्चेचो विषय आशिल्लो 'लोकवेदाचें तुलनात्मक परिदृश्य.' ते परिचर्चेंत हांवे ह्या विषयाचेर (स्थलांतराचो प्रभाव) एक प्रबंद सादर केलें. ताचें सारांश अशें -

स्थलांतरित जाल्ल्या ह्या कोंकण्यांचेर आनी तांच्या लोकवेदाचेर थोडो भोव प्रभाव पडलो आसा. पुण ह्या पांयश्यांवयर वर्षांनी जितलो आनी जसो प्रभाव पडूंयेतालो तितलो कांय पडूंक ना ! तांणी थोडें नव्यान घेतल्यां आनी थोडें सदाखातीर शेणयल्यां जाल्यार ताच्याकय चड साबार, काळजाक घट लावन सांबाळ्ळ्यां ! जीविताच्या वेगवेगळ्या आंगांचेर जाल्ल्यावरी (वा जाल्ल्या निमित्तीं) तांच्या लोकवेदाचेरीय स्वल्प बदल आयलां इतलेंच.

पोरन्या वाठारांचीं, मनशांचीं नांवां आनी उल्लेख बरेच पुसून गेले. ताचे बदल नवीं नांवां, उल्लेख आयले. खाणा जेवणाच्यो कांय कृति शेणल्यो आसून थोड्यो नव्यो

घेतल्यो. न्हेसवणाचेर थोडो फरक आयलो. घरवंताच्या, देवळांतुल्या आचारांनीय थोडो फरक आयलो. देवळांनी केरळीरूपान 'आराट' 'शीवेली' 'चेंड्यामेळ' आदी आयले. पुण 'पालखी' 'रथ' आदी वचूंक ना. प्रवासाच्या धन्य उडगासा खातीर 'मोंचूव काडप' हो आचार नव्यान उदेलो. भावा-भयणेल्या भुरग्यां मदली 'मावळू भाचू सोयरीक' आयली (ही आतां ना). कोडुंगल्लूर देवळाकडे नातें जोडलें. म्हण्यो, वाक्प्रचार थोडो मलयाळमांतुल्यान घेतले. उलोवंचे भाषेचेरीय मलयाळम उतरांचो प्रयोगांचो थोडो प्रभाव पडलो. पुण 'हिट्टू, पत्रवोडो, पंचकादाय, वलवल, डुंडूं' सांबाळ्ळेल्या वरी भासय सांबाळी. घुसळी, हळदकुंकूम सांबाळ्ळेल्या वरी लोकवेदूय सांबाळ्ळो. पालखे पूजे वरी गोंयाचो उडगास बाळगिलो.

गोंयचो उडगास आनी मोग लोकवेदांत साबार स्थायांर तोंड दाखयता. 'गोंयचो आंबो, गोंयचें पील, सासष्ट' आदींच्या गोड उडगासां लागी, 'फरंग्यालें बावलें, फरंग्यालें तारूं' अशी कोडवाणीचे उडगासय आसतात. तशे थोडे तीख उडगास विसरपाचे खातीर तांणी ह्या गावांचेर व्हडलोच मोग वर्षिला. कोडुंगल्लूर आदी मलयाळी देवळांकडलें नातें हेंच दाखयता. गांवांचीं आनी मनशांलीय नावां मलयाळमांतुल्यान आपले भाषेंत जिरोवन आनी विरोवन घेतलीं. पोरनीं नांवां सोडलीं.

काळगो वचून किष्णु आयलो, बप्पी वचून रामु आयलो. तुळजा वचून सरसू आयली, भुंडी वचून पिरयागी आयली. सासष्ट वचून षष्टीपोरोम आयलें, मामाय वचून भोगोंत आयली. कोडुगन्नूर आयलें, बारांपळे, बैपे, बैकत्त, कुळ्ळात् आदी जायतें आयलें. तिरप्पती चड लागी जालें. काशिमठ जन्मलो. पुण कुळदेवांक सोडलेनात ! कुळाचार, अनुष्टान, सोडलें ना !

मलयाळमाच्या हुंवारांत आपूण व्हावून वचें न्हय म्हणून, मात्सो प्रताप पावलो आसून फुगून वचें न्हय म्हणून, हांणी बरी जतनाय घेतिल्ली स्पष्ट दिसता. आपलें वेगळेपण, आस्मिताय आनी खाशेलें ऐक्यमत्य राखूचे खातीर सुमार यत्न आनी चातुर्य हांणी खर्चिलें. चडावत जाण वेपारी आनी वेवसायी आशिल्ल्यान गणटी खातीर तांणी आंकड्यांक गुपीत नावां दिलीं आनी तींच जाण्ट्यांनी वापरलीं. एक धरून धा मेरेन अशी-

'केवलो - राव - उद्दण - पोवूण - मूळ - कीरांगूळ - पवित्र - मंगळ - किम्मूस -गाळ'

मागीर 'गाळार केवलो, गाळार राव- 'अशी वीस पावंतना 'खांडी' मागीर 'खांडियेर केवलो, खांडियेर राव -' तशी वता. तीस म्हळ्यार 'पोवूण गाळ'. अपूर्ण अंकांकय वेगळीं नावां आशिल्लीं.

'पण्पूडो' म्हळ्यार पाव, वा चोवतय.

'कुचूको' म्हळ्यार अर्द.

म्हण्टना, सवाय एक' केवलो पण्पूडो ' जाता आनी अड्डेच 'राव कुचूको' जाता!

तांणी आपलींच देवळां बांदून घेतलीं. आपलेच आचार पाळ्ळे. आपलीच भास घरां-देवळांनी उलयली. साबार गावांनी आपलींच मोसणां लेगीत उबारलीं. तांचे भितर वर्णभेद तोंड दाखयता तरीय धर्माच्या एकत्वांत तीं आजून सुरक्षित आसतात. ह्या विषयांत केरळाच्या जनांगाचो तांचेर मातूय प्रभाव पडलोना. केरळा संबधी विवेकानन्द स्वामिजीलो एक काळाचो प्रस्ताव त्या काळाच्या मलयाळी जनांगाचेर जिस्त बेसतालो - 'केरळ एक (जाति) पिशांघर !' केरळ आतां थोडें बदल्लां जाल्यार हांगाच्या कोंकणी समाजाक तेद्दो बदल जाय जालोना !

# लेकवेद आनी सृजनशील साहित्य

सृजनशील साहित्य सर्जकाच्या अंतरंगांत घडता, पुण सर्जाकाचें अंतरंगच लोकवेदान घडयिल्लें आसता ! आपुण नेणतनाच ताका लोकवेदाचो लाव मेळिल्लो आसता, आनी जाय तर जाणूनूय ताचो लाव तो घेवंयेता. लोकवेद खर्यानीच लोकप्रिय आसता म्हणिल्ल्यान, ताचो योग्य लाव घेतलो जाल्यार, सर्जक आपल्या अनुभूतीच्या स्पंदनांक रसिकांकडच्यान रोखडींच अनुरणन जोडूंक पावंतलो.

लोकवेदाचो लाव कसो घेवंचो आनी केद्दो ? हाची जाप सृजनशील साहित्यांतल्यो, लोकप्रिय जावन तिगून उरिल्ल्यो कृति नियाळतना मेळतली. इंगलीषांत ' मार्क ट्वेनाच्यो रसाळ कृति खूब लोकप्रिय आसतात. त्यो आमकां Abridge केल्यो नाकात ! कित्या ? तांची शैली, उतरां, वाक्प्रचार हे सगळे तांणी नीट लोकां कडल्यान घेतल्यात. घडितांनीय, कथेंचो आपरोस काडल्यार ताचेरीय, लोकवेदाचो बरोच प्रभाव स्पष्ट दिसता.

अनुपम कथाकार ओ. हेनरीलीं पात्रां खंयचे शैलीन उलयतात ? तांची भासाभास कितली सरस आनी संवकळेची!

कवितेचो आनी लोकवेचाचो संबंद सोदून लोकप्रिय 'दोहांची' फाट घेवंची नाका, आमचे कोंकणींतूच देखी मेळतात ! हुमाण्यांचे, लोकोक्तींचे भाशेन 'मंत्र' रूपी कविता रचपी मनोहर सरदेसायांलीं 'पिसोळीं' कोणाक भावनात?

'म्हजें उतर गावड्याचें' म्हणून 'आयलें तशें' गायिल्ल्या र. वि. पंडीतांची कविताय गोंयची शीम लेगीत हुपून रसिकांक आनंद दिता आसा. हे सगळे सर्जक लोकांक वळखुपी. लोकांलागी मेळसुपी. तांच्याच उतरांनी उलोवपी.

एक काळार हिन्दी चित्रपट संगीतज्ञ 'सचिनदा' (एस. डी. बर्मन) हांणी संगीत सजयिल्ले गीत सर्वांक गुल्ल करताले. आयकुप्यांक तल्लीन करपी त्या संगीताचें बीज आपणे चडकरून वेवेगळ्या वाठारांतुल्या लोकगीतांनी घेतल्यां अशी तांणीच उक्तायिल्लें आसा !

कोंकणी लोकवेदांतूय स्फूर्तिदिणे खूब कितें आसा. मुदयेक थीक तशे खूबशे वाक्प्रयोग, रसाळ म्हण्यो,आगळीं वेगळीं पात्रां आनी कथाबीजां आशिल्ल्यो अनेक काण्यो, तरातराच्या सुर ताळांचीं गीतां, तशी तशी. सर्जकांनी हाची बरी नोंद घेवंची ! उण्यांत ऊणे बालसाहित्याच्या माळाचेर वावुरतल्ल्यांनी तरीय ह्या लोकवेदाच्या भांडाराचो लाव घेवंचो.

# लोकवेदावेलो वावर

१९४२ वर्साक लागून पुरक्काड (केरळ) गांवांतुल्या आर. रंगनाथ प्रभून (१९०३-१९५२) कांय कोंकणी म्हण्यो एकठांय केल्यो, आनी थोड्या वाक्प्रचारां फाटल्यान आशिल्ल्यो काण्योय सोदून काडल्यो. सुमार त्याच वेळार कासरकोड (केरळ) गांवांत राबून आर. एस. प्रभून (१८७८ - १९५६) म्हण्यो पुजावचें काम प्रामाणिकपणान हातांत घेतलें. तीन हजारां लागी म्हण्यो आनी वाक्प्रचार तांणी एकठांय केले आनी जतनायेन कोंकणी वर्णां प्रमाण मांडले.

कोची कोंकणी भाषा प्रचार सभेन १९७६ वर्सा लोकगीतांची, आनी १९७८ वर्सा म्हण्यांची एकेक पुस्तिका उजवाडा हाडली. १९९८ वर्सा लोकगीतांची पुस्तिका पानां वाडोवन 'लोकगीत समुचय' म्हणून उजवाडायली. कोंकणी भाषा संस्थान, कारणकोडम हे संस्थेन १९८९ वर्सा 'गोड्ड रामायण' आनी १९९५ वर्सा 'लोकगीतां' उजवाडायलीं. केरळ कोंकणी अकादमी, कोची हे संस्थेन १९८५ वर्सा वयर सांगिल्ले, दि. आर. एस. प्रभूलो 'म्हण्यां सोरू' उजवाडाक हाडलो. अकादमीन १९९६ वर्सा 'श्रवोण गीतक'-हाचेवेलें भाष्य उजवाडायलें. हें मूलगीतक १९९२ वर्सा कोंकणी साहित्य समाज पेरुंपडन्ना (केरळ) हे संस्थेन मलयाळ लिपीन छापून हाडिलें. २००० वर्सा केन्द्रीय साहित्य अकादमीन उजवाडाक हाडलेल्या कोंकणी लोककाण्यांच्या संग्रहांत केरळाच्या १७ लोककाण्यांचो आस्पाव जाला.

लोकवेदावेली खाशेली कार्यावळ म्हणून फकत एकीच अधिकृत कार्यावळ जाल्या. १९९४ वर्सा केरळ कोंकणी अकादमीन एरणाकुळम (केरळ) हांगा गोवा कोंकणी अकादमीच्या सहकार्यान लोकवेद मेळावो घडयिल्लो. तांतूं लोकवेदाचे दृश्य - श्राव्य सादरीकरण आनी चर्चा आशिल्ली.

केरळाचे लोकवेद अभ्यासक चड करून बरोवपीच. डो. बी. एस. आशा, प्रो. एन. एन. आनन्दन, प्रो. आर. के. राव, श्री. पी. जी. कामत, श्रीमति. सुशीला. टी. भट, श्री. गोकुलदास प्रभू, श्री. के. के. सुब्रह्मण्यन, श्री. एल. बालकृष्णन आदी कांय जाणांनी हो विषय घेवन प्रबंद - निबंद - भाषणां केल्लीं आसात.

केरळाचे लोकवेद संग्रहाक म्हळ्यार - दि. आर. रंगनाथ प्रभू, दि. आर. एस. प्रभू, श्री. एन. पुरुषोत्तम मल्या, प्रो. आर. के. राव, श्री. के. के. सुब्रह्मण्यन, श्री. एल. बालकृष्णन, श्रीमति. सुशीला टी. भट, श्रीमति. वत्सला आर. शेणै, श्रीमति. लिल्ली रामानन्दन, श्रीमति. सूर्या अशोक आदी.

श्रीमति. वत्सला आर. शेणै हांणी लोककाण्यो बरोवन दवरल्योच न्हय, त्यो ओडियो कासेटांत काडून आमकां दिल्ल्योय आसात-व्होळ्ळम्माल्यो काण्यो ! श्रीमति. सुशीला टी. भट हांणी म्हण्यो गुंथून एक काणी लेगीत केल्या. दिवटी १९९४ लोकवेद स्मरणिकेंत ही आस्पावयल्या.' अत्ती आनी पित्तीं' हे लोककाण्येचें हांवें तयार

केल्लें नाट्य गीत कांय वर्सां मुरथम एक 'नृत्य संगीत नाटिका' म्हणून पळ्ळुरुती जि. एस. बी. वनिता केन्द्रान खेळयलें आसा.

केरळाच्या कोंकणी लोकवेदाचेर संशोधन करतल्यांक हांगाचें मध्यकालीन भक्ति साहित्यय भोवच उपकारी आसतलें. 'वेंकटेश कल्याण' तशें खण्डकाव्य आनी साबार गीतांचें वैशिष्ट्य म्हळ्यार तांतूली पोरनी उतरावळ, शैलीप्रयोग आनी चाली. विसाव्या शतकाचें अर्दें हुपलें म्हण्टना हांगाच्या साहित्यिक कोंकणीचेर इतर जायते प्रभाव पडिल्ल्याचें जाणवता. आदल्या कृतींनी आशिल्ली गोडसाण मागीरच्या सृजनांनी दिसना. देखून उतरां प्रयोगांचो व्हडलो एक वांटो जो आतांच्या कोणा लागी ना तो एकदा ह्या मध्यकालीन भक्तिरचनांनी मेळूंयात !

# समारोप

एक कालाक केरळाच्या ह्या कोंकणी जनांगांत कोंकणी शिवाय दूसरी खंयचीय भास येना -कळना तसलीं खूब जाण आशिल्लीं. पुण आज आपले हे आवयभाषेचें केवल नांव कळता शिवाय तिचे विशीं वेगळें कांयच कळना तसलींय लेगीत सत्संतान हे कोंकणी मातेक आसात ! जाल्यार हें फकत केरळांतुल्या कोंकण्यांलेंच अदृष्ट न्हय. गोंय राज्यांतूय कोंकणीक फाट दाखोवपी मनीष चड जाल्ल्यात ! केरळांत मळयाळम भास शिकून घेवपी लेगीत ऊणे जाल्ल्यात ! तुलन करतना, करेळाची कोंकणी कितली की भाग्यवंत ! व्हडलेंच परिवर्तन हांगा घडूंयेतालें. तश्या भयांकूर परिवर्तनाच्या खीळयां - चक्रांतुल्यान ही गिरेस्त भास राखपाचें काम चड करून केल्ल्यां घराघरांच्या बायलांनी !

तांचे जिबेर गीत आशिल्ले, काळज्यांत काण्यो आशिल्ल्यो. नवी जीण विणून काडीत आसतना तांणी हुमाणीं सांगलीं. परबे दिसांनी फुगडी घाली. तांचें संभाषण म्हण्यांनी रसाळ केलें. तांचे निमित्तींच ही संस्कृति आजीय इतली जीवाळ उरूक पावली. तांचें जीवित सुख सुविधेंचें नाशिल्लें. शाळे शिकवण लेगीत भोव थोड्यांक मेळिल्लें. बालविवाहाची प्रथा आशिल्ली. वैधव्य म्हळ्यार व्हड गुन्यांवूच आशिल्लो. देण्याचें भूत निर्विघ्न नांचतालें. गिरेस्तांचीं थोडीं घरां सोडल्यार बाकी घरांच्यो चडावत बायलोय रात-दीस कष्टताल्यो.

मन मेकळ्या संतोषाचे दीस भोव थोडे आशिल्ले. ते तशे परिस्थितीरीय हो लोकवेद, आनी ही संस्कृति हे भाशेन सांबाळून काडिल्ल्या तश्यांक आमी मनस्पूर्वक नमन करूंक जाय! तांणी गुंथिल्ल्या गायिल्ल्या बालगीतांनी आनी खेळगीतांनी कितलेकीच पिळगेंक मायभासेची आनी संवसाराची वळख दिली. ज्ञानाचीं कणां तांतूं बरींच थळथळतात.

हें बरयत आसतना, म्हजी आवस सयत जायत्यांचो माका परत परतून उडगास येता, ज्यांनी म्हजें भुरगेपण रंगयलें आनी तांतूल्यान म्हजे माका घडयलो. तशें भुरगेपण आतांचे पिळगेक दिवप एकदा साध्य आसूयात तरीय सरळ नासता !



# पुस्तकसूची

ह्या पुस्तकाचे रचनेंत माका उपकाराक पडिल्लीं पुस्तकां आनी नेमाळीं

- ❖ कोंकणी लोककाण्यो - केन्द्रीय साहित्य अकादमी, नवी दिल्ली - २०००
- ❖ कोंकणी लोकगीत - कोंकणी भाषा प्रचार सभा, कोची - १९७६
- ❖ कोंकणी म्हणी - कोंकणी भाषा प्रचार सभा, कोची - १९७८
- ❖ कोंकणी लोकगीत समुच्चय - कोंकणी भाषा प्रचार सभा, कोची - १९९८
- ❖ कोंकणी म्हण्यां सोरू - केरळ कोंकणी अकादमी - १९८५
- ❖ दिवटी - लोकवेद स्मरणिका - केरळ कोंकणी अकादमी, कोची - १९९४
- ❖ श्रवोण - गीतक आनी व्याख्या - केरळ कोंकणी अकादमी, कोची - १९९६
- ❖ साहित्य पंचक - केरळ कोंकणी अकादमी, कोची - १९९८
- ❖ गोड्डे रामायण - कोंकणी लांग्वेज इनस्टिट्यूट, कारणकोडम - १९८९
- ❖ कोंकणी लोकगीतां - कोंकणी लांग्वेज इनस्टिट्यूट, कारणकोडम - १९९५
- ❖ श्रवोण - गीतक - कोंकणी साहित्य समाज, परूर - १९९२
- ❖ गीतां समाहार - कोंकणी साहित्य समाज, परूर - १९९५
- ❖ कोंकण जनता - जि.एस. ए. - कोची
- ❖ सारस्वत वाणी - एस. जी. एस. सभा - कालिकत
- ❖ वैष्णव रत्न - एस. एस. एस. समाज - कारणकोडम
- ❖ मार्गदीपम - के. एस. एस. - एरणाकुळम

ह्या पुस्तकाचे रचनेंत कांय जाणांलीं लेखनांय माका उपकाराक पडलीं. हांचो हांव आभारी - श्री. एल. बालकृष्णन, श्रीमति. सुशीला. टी. भट, श्री. पी. जी. कामत, आनी श्री. के. के. सुब्रह्मण्यन.

# लोकधन

कोंकणी समाज एक एक कालखंडांतल्यान विखंड जायत गेलोलो समाज. अश्या ह्या समाजाचे भाषेचेर आनी संस्कृतीचेर व्हडलीं संकटां आयल्लीं. केन्ना आनी कितें कितें निकळून शेणून गेलें, कित्याकित्याचो बदल जालो आनी कितें कितें येवन भरसलें म्हूण सांगूक जायना. आज जंय जंय कोंकणी समाज आसा, थंय सगल्यान तो ह्या अश्या अदृष्टांतल्यान मुकार सरुनूच पावला.

केरळाचो कोंकणी समाज पुरायपणान स्थलांतरीत जालोलो एक जनांग. आपल्या अस्तित्वा खातीरच्या झुजांतल्यान, जिणेच्या शंबर संकष्टांतल्यान वाट काडून मुकार सरिल्लो समाज हो. तरीय ह्या समाजान आपली अस्मिताय, भास आनी संस्कृती राकल्या. शतकां शतकांनी सांबाळ्ळ्या. हें एक सुलभ सामान्य कार्य न्हय. हाकाच 'चमत्कार' म्हूण सांगप !

अश्या ह्या समाजाची प्रकृती, संस्कृती आनी चरित्र लेगीत हाच्या लोकवेदांत प्रतिबिंबित जाता. आयचें मानवशास्त्र लोकवेदाक अमूल्य वस्तू म्हूण मानता. हांतूं आसा खंय समाजाच्या स्वत्वाचें डी एन ए ! लोकवेदाची येदी व्हड धनराश आमचे मुकार आसा म्हणून हिची केवल कांय पानां पुरती वळख हांगा दिल्या.